its chief beauty and richness consist, अर्थात, खंचायी भाषेची तांक आनी सोबाय तांतल्या मुखावरांचेर होंदोन आसा. देकीक, दो। जॉस पिरेरान, दालगादोच्या संग्रहांतली विंचवण केल्या. 'काळिज' म्हळ्ळ्या नामपदाक वेवेगळीं क्रियापदां लावन दाल्गादोन आसा केल्लीं मुखावरां....काळिज लासूंक, काळीज हुल्पोंक, काळीज कांतंव्क, काळीज खोसाळूंक, काळीज बसूंक.....हांकां अंत्यच ना.

भास ना तर, दॅश ना:

खंचियी भास एक प्रबल संपर्क माद्यम म्हण आमी जाणांव. भासेचो उद्भव, वाडावळ आनी तांक म्हळ्यार कितें म्हण आमी फाटल्या विवरणांत वशीलायेन पळेलां.

आतां संपर्क (communication) कशें आनी कितें म्हळ्ळें आमी पळोव्यां.

मनीस वेवेगळ्या रितिंनी हेरां लागीं संपर्क कर्ता. ह्या पयकी कुडिचो हावभाव संकेतां, उलयिल्लीं आनी लिखल्लीं उत्रां प्रमुख जावन आसात. खंचीयी रीत विंचल्यारी संपर्काची घडावळ हांगासर दिल्ल्या रुपकारा (sketch) प्रकारच आसता:

प्रचॉदन (stimulus)

संपर्की (encoder) > रीत चिंचता selects signals > संदॅश धाडता conveys message >एका माद्यमा मुखांत्र along a channel >संपर्क्याक संदॅश मेलटा > sends to decoder > प्रतिक्रियें उटता आनी संपर्की responds.

हो रुप्कार विवरांच्चो तर – खंचायी रितीच्या संपर्काक प्रचॉदन आसाजेच. दाक्ल्याक हेंच लॅखन घेंव्यां. असलें एक लॅखन कोंक्णिंत बरय्जे म्हण उर्बा (प्रचॉदन) आयिल्यान हांवें (संपर्किन) बर्पाची रीत विंच्ली, लेख लिक्लो (संदॅश धाडलो), छाप्याच्या माद्यमा मुकांत्र हो संदॅश तुम्कां वाचप्यांक (संपर्क्यांक) पावलो. आनी तुमी वाचून प्रतिक्रियें दाकयलें. संपर्किचो हो रुपकार सर्वयी रितिच्या संपर्क सादनांक बराबर लागू जाता.

मनीस आप्ले शाथिये वर्वीं फकत उत्रां–लेत्रांनी मात संपर्क करीना. संपर्काच्यो हेर रितियी ताणें आप्णायल्यात. ह्या रितिंक निर्भाशित (non-lingual) रिती म्हणतात. त्यो कसल्यो म्हळ्ळें संक्षिपतायेन पळोव्यां:

(अ) वेळ–काळ – कोणायकी भेटूंक कसल्यायी कार्याक जाय–जाय म्हण तडव कर्चो, आम्कां भेटोंक आयिल्यांक जाय जाय म्हण राकंच्चो इत्यादी निर्भाशित रितीर आमी बेआतुराय दाकयतांव – non-lingual way of showing disinterest.

(आ) पय्सा–पय्स – कोणायी थावन पय्स रांव्चें, मुकार मेळात तर देगेन सर्चें असलीं सर्व करतुबां पेल्या थंय नापसंदाय जाग्र कर्तात. हें मौन रितीचें एक संपर्क सादन.

(इ) स्पर्श – एक खडप (strong handshake) हात मेळावणी, मोगाची एक वेंग आनी चुंबन, एके आवयन आपल्या बाळश्याक दिंवचो वेङ्घोळ आनी असलीं हेर कर्तुबां मौन रितिर मोग आनी मयपास जाग्र कर्तात.

(ई) मुकमळा वय्लें भावन – ह्या संपर्क माद्यमाक देकी हजारांनी दिव्येत. साहिताचो आनी सदांचे जिणियेचो अर्धांश मुकामळा वयल्या हाव–भावांचेर होंदोन आसा म्हळ्यार चूक जांवची ना.

(उ) हात–भास – हाकायी धाराळ दाक्ले दिव्येत. थोड्या पंग्डां मदें सांद्यांक मात्र सम्जोंची हात–भास आसा. फ्री मेजन्स पंग्डाचे एका विसिश्ट रितीर हात मेळवन येकामेका वळ्कातात. हें गुप्त संकेत नेणासल्लो फावो तें प्रतिक्रियें दाकयना आनी तो आपणाच्या पंग्डांत्लो न्हय म्हण दुसऱ्याक कळीत जाता.

फूडें सरच्या आदीं–

वयल्यो थोड्यो निर्भाशित संपर्क रिती मनजातीं मधेंयी नांतगी म्हळ्ळें सवाल उटात. आसात. व्हय पुण त्या रितींक एक भास म्हणोंक जायना. कित्याक म्हळ्यार – Language is a set of vocal sounds and their written symbols. It is a learned, arbitary system of meaningful symbola, symbols with which people who share a common culture can communicate with each other.

अर्थातः भास म्हळ्यार विविध ताळ्यां–आवाजांचो पुंजो आनी तांकां लग्ती जाल्लीं बर्पिनिशीं संकेतां हीं संकेतां जाण्वीक तरी विस्कळांव्क जांवचे तसलीं (तांची व्यापत फकत एका सब्दाक सीमित न्हय) आनी ह्या संकेतां वर्वीं एका संस्कृतिचे मनीस येकामेका थंय संपर्क करुंक सक्तात.

भास, पिळगे थावन तोंडपाशीं या बर्पिंनिशीं देंवोन येता आनी खंचायी एका निरदिष्ट खिणांत उलवप्याच्या मट्टाक ती परिपूर्ण जावन आसा.

येदोळ पऱ्यांतल्या वाचपांत ह्या लॅखनाची तेंक्शी साहिताच्या कुशिंनंच मालवाल्या म्हळ्ळें तुम्कां गम्लां आस्तेलें. बरेंच पुण साहिताचेर उड्की मार्च्या फुडें एका सवलाची जाप आमी विर्गळायजेच्च.

विद्यासालांक वचूंकच नातल्ले, बर्पां, अक्षरांची साय-लाय कळीत नातल्ले सबार पर्की भासो तितल्या सुडाळायेन उलयतात, आय्कातेल्यांक विस्मित जाता. हें कशें? हांचो हुन्नर कसलो?

खंचियी भास उलंव्क शिकाजे तर त्या भासेंत्ले गाळी-शिराप पय्लें शिकाजे म्हळ्ळी सांग्णी आसा. वर्सां आदीं गोऱ्या सायबांच्या तोटांनी आनी बंग्ल्यांनी आनी अडभाग आयिल्या कातोलिकांच्या 'विल्ला'नी काम करचे/कर्चीं 'बटलर इंग्लिष' उलयतात म्हण फोकाणां करचीं आसल्ली. देकीक, आलवरिसाच्या 'आंजेल' कादंबरियेंत एकल्यान 'कम इन, कम इन' म्हळ्ळें तें दुसऱ्याक 'कांपिण, कांपिण' म्हण आयकोंचें हास्य प्रदान सन्निवेश आसा. श्रीमती युलालिया आल्वरिस हिच्या 'आकयच्यो काणियो' ह्या संग्रहांतयी असलें एक सन्निवेश आसा. तरी, सत तें सतच. हे बटलर-गिटलर आमच्याकी बरें इंग्लिष उलयतात. हें कशें?

म्हज्याच खास्की जिणियेंतलें दृष्टांत हांव दितां. १९७४ इस्वेंत हांव कुवेत पावल्ल्या वेळार म्हाका अरेबिक सोड्यां, हिंदी सयत सार्की येनातली. सुर्वेच्या दिसांनी म्हाका CONCO म्हळ्ळ्या एका कंपेनींत नव्करी लाब्ली. कंपेनिच्या बस्सार एके सकाळीं ड्युटेक वेताना आमी एक वाहन अव्घड देक्लें. हें कांय कुवेतांत नवेंसांव न्हय. हें पळेतेच बस्सांत्ले चडशे कामेली (लेबेनानी) तांचे मधें उलंवक लाग्ले आनी हांवें आय्कालीं हीं उत्रां 'खुल्लु सय्यारा, खुल्लु सय्यारा.' हांव चिंतां, हे कितें उलयतात? खुल्लु म्हळ्ळो सब्द म्हाका तुळ्वेंतलो कसो आय्कालो. खुल्लु म्हळ्यार तुळ्वेंत 'बोस' (sit) म्हळ्ळो अर्थ जाता. हे कित्याक उलयतात अशें? आफीसाक पावतेच हांवें विचार्लें, हें खुल्लु सय्यारा म्हळ्यार अर्थ कसलो? म्हाका मेळल्ले जापींत हांव अर्बिकाच़ीं दोन उत्रां शिक्लों. खुल्लु = सग्ळेंच आनी सय्यारा = कार. आतां हांव अरबिकांत हे दोन सब्द लिखूंक नेणां, वाचुंकयी नेणां. पुण ह्या सब्दांचो (आवाजांचो) अर्थ हांव जाणां. हेच्च रितीर पर्की भासेच्या परिसरांत घुसल्ली वेक्ती आपापिंच ती भास उलवंक शिक्ता.

आतां आमी 'बटलर इंग्लिषच' घेवयां.

एक तांब्लेर जांतूं अर्वास पानक आसा, पळेतेल्यांनी कितें म्हण्येत? हांतूं अर्वास पानक आसा या हो तांब्लेर अर्वास खाली आसा? हांगासर दॉन विबिन्न पुण एकाकालिक सन्निवेशां आसात. पय्लें, तांब्लेर अर्धो भर्ला आनी दुस्रें, तांब्लेर अर्धो खाली आसा. म्हणतेच, इंग्लिष मदामेन 'म्हाका अर्दो तांब्लेर शर्बत हाड म्हण्चें या अर्दो तांब्लेर खाली आसुंदी म्हण्चें एकच्च. पुण ही हुकुम आयकोंचीं मात्र दॉन सब्द जिकून धर्ता = half full आनी half empty. अशें जावन बटलर इंग्लिषांत I go bazaar bring pamplet and big big taarle (sardines) म्हळ्यार चूक ना! कित्या हांतू संपर्क माद्यम सक्रीय पात्र घेता पुण भासेच्या (syntax) नियमा प्रकार न्हय.

तरी उलवपाच्या मट्टाक तांब्लेर अर्दो तर अर्दो, अर्दो भरल्लो तर अर्दो भरल्लोच जांव.

(हे लॅखन 'दिवो' पत्रांत १९९८ डिसेंबर ५ तारिकेच्या अंक्यांत प्रगट जालां)

*********

# भाशेक संस्कृती आनी संस्कृतीक भास लागता व्हय?

- कमलाकर दत्ताराम म्हाळशी

(कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृताय,
कोंकणी भाशा मंडळ, गोय - 2003)

संस्कृती उतराची व्याख्या भोव विशाळ स्वरुपाची आसा. जाल्यारूय संस्कृतींत 'संस्कार' आसपावता आनी संस्कार म्हळे उपरांत तो फकत कुडीचेर जावं निसर्गाचेर जावं मनशाचेर केल्लो संस्कार न्हय तर मन-बुद्धीचेर केल्लो संस्कार आसता. देखून संस्कृती ह्या उतरांत हे दोनूय तरांचे बदल वा संस्कार आसपावतात आनी जेन्ना मनीस प्राणी भायलें विश्व आनी भितरलें विश्व ह्या दोनूय गजालींचेर जैत जोडटा आनी आपली तेचपरी हेरांची जीण गिरेस्त करपाचो यत्न करता, तेन्नाच तो खऱ्या अर्थान जीण जगता अशें म्हणुंयेता.

संस्कृती ही दोन आंगांनी चलता. अधिभौतिक आनी आध्यात्मिक हीं तीं दोन आंगां. मनशाचे सुखी जिणेखातीर भायल्या गजालींची वा वस्तुपदार्थांची समुद्धताय संस्कृतीच्या अधिभौतिक आंगांत आसपावता जाल्यार धर्म, नीती, कायदो, विद्या, ललित कला, वाङ्मय, सभ्यता आनी शिश्टाचार बी गजाली संस्कृतीच्या अध्यात्मीक आंगांत आसपावतात. (भारतीय संस्कृतिकोश, खंड ६, संपादक: पं. महादेवशास्त्री जोशी च्या आदारान)

आयचो ह्या विशयाचो आंवाठ 'वाङ्मय' आनी तातुंतले तातुंत कोंकणी भास तितलेपुरतोच मर्यादीत आसा आनी भाशेचो संस्कृतीकडेन वा संस्कृतीचो भाशेकडेन कितें संबंद आसा हें पळोवपाचो हेतू बाळगून त्या संदर्भांतल्यो कांय देखी वा पुरावे सोदपाचो यत्न हांवें केला.

संस्कृती एक विकासक्रम आनी ती बदलत आसता. बदलप हो तिचो एक विशेश आनी तो बदल मनीस घडोवन हाडटा हेंवूय तितलेंच खरें. व्यक्तीमदल्या आनी समाजामदल्या गुणांक (वा दोशांकूय) लागून संस्कृती जशी बदलता तशीच दुसऱ्या संस्कृतींकडेन आयिल्ल्या संबंदाक लागुनूय ती बदलता. हाका इतिहास साक्ष आसा. द्रवीड-आर्य संस्कृतीच्या संगमान घडिल्ली भारतीय संस्कृती ही एक ताची

बरी देख. अर्थात मनीस पर्यायान समाज जेन्ना संस्कृती बदलायता अशें आमी म्हणटात तेन्ना ती एका दिसान वा एका म्हयन्यान वा एका वर्सान बदलना, ती प्राक्रिया चालूच आसता आनी ताका मनशांनीच रचिल्लें वाङ्मय पर्यायान भास बाकीच्या घटकाइतलीच कारण थरता.

कोंकणीचेंच उदाहरण घेवपाचें जाल्यार भारतीय संस्कृतायेचो एक अविभाज्य घटक जावनूय जेन्ना आमी कोंकणी संस्कृताय म्हणटात तेन्ना थंय वाठार, जेवणखाण, भेस, परबो-उत्सव आदी गजालींइतलीच भास ही गजाल म्हत्वाची थरता. कोंकणीचे म्हालगडे भास-संशोधक आनी शब्दकोशकार श्री. श्रीपाद रघुनाथ देसाय हांणी 'कोंकणी शब्दकोश' च्या चवथ्या भागांत बरयिल्ल्या 'कोंकणी भाशेचो उगम' मदले कांय परिच्छेद देखीखातीर दिवन सांगपाचें जाल्यार-

1. कोणाय प्रदेशांत एक भास लोकांच्या वापरांत आसता. त्या प्रदेशांत भायल्या लोकांची घुरी येता. हे नवे लोक आपल्या पराक्रमान तो प्रदेश जिखतात. येतासतना ते आपली भास हाडटात. ती भास आनी त्या प्रदेशांतली मूळची भास हांची मेळामेळ जाता. दोन संस्कृतायो मिसळटात आनी एक वेगळी अस्मिताय उप्रासता.

4. आभिरी लोक दुसऱ्या शतका सावन भारतांत पातळूंक लागले. ते उत्तर भारतांतल्यान पुर्वेक बंगालामेरेन, मध्य भारतांत, गुजरातेंत आनी दक्षिणेक गोदावरी न्हंयंमेरेन पातळ्ळे. समुद्राच्या पच्छिम किनाऱ्यान गुजराथेंतल्यान ते कोंकणांत, अपरांतांत पातळ्ळे अशें इतिहास सांगता. हे प्रक्रियेक तीन-चारशीं वर्सां लागलीं आसुंये.

9. ल्हान भुरग्यांक आमी बरोवंक वाचूंक शिकयतना पयलो धडो श्री गणेशाय नमः हो शिकयताले.

   दुसरो धडो ॐ नमः सिद्धं घालताले. हो सिद्ध आमच्या शिक्षणांत जैनांनी हाडला.

12. कोंकण हें उतर म्हाका चतुर्भुज स्वयंभूच्या पउमचरियु ह्या अपभ्रंश रामायणांत मेळ्ळें. त्या काळांत म्हळ्यार धाव्या शतकांत शेजारच्यो आधुनीक भासो जल्माक आइल्ल्यो काय कळना.

13. तेराव्या शेंकड्यांत देवगिरीच्या यादवांक मारून खिलजीच्या मलिक कफूरच्या सैन्यान कोंकण जिखलें. पंद्राव्या शेंकड्यामेरेन बहामनी आनी आदिलशाही

मुसलमानांनी कोंकणाचेर शेक चलयलो. मदीं विजयनगरच्या सम्राटांनीय कांय वर्सां कोंकणाचेर सत्ता चलयली. आनी सोळाव्या शतकांत पुर्तुगेज लोकांनी गोंय जिखलें. तरीय तंवसर कोंकणी भास शुद्ध उल्ली. पुर्तुगेज धर्मप्रसारकांनी गोंयांत क्रिस्तांव धर्माचो प्रचार करचेखातीर कोंकणी भास शिकून घेतली.

श्रीपादबाब देसायांनी भास आनी संस्कृताये संबंदान केल्लो अभ्यास खोलायेन अभ्यासलेबगर तांचो विचार मन बुद्धीमेरेन पावप कुस्तार. जाल्यारूय भास आनी संस्कृतीचो लागशिल्लो संबंद तांच्या वयल्या अभ्यासपूर्ण विधानांतल्यान स्पश्ट जाता.

नामनेचे भासशास्त्री डॉ. जुजे पेरेइर हांचो ह्या मळावेलो अभ्यास तर कोंकणी भास आनी कोंकणी संस्कृतायेच्या संबंदाचेर स्पश्ट उजवाड घालपी, वेचारांक चालना दिवपी असो. देखीक, तांचे ह्या संबंदातले विचार पळयात.

.... महाराष्ट्री प्राकृता वरवनु, संस्कृत मूळावेली, कोंकणी निपजली. संस्कृत भास क्रिस्ताच्या जल्मा फुडें १४ व्या शतकांतु चलताली, आनी महाराष्ट्री क्रिस्ताब्धेच्या पैला शतकांतु. महाराष्ट्रीचें लेंकुरूं कोंकणी सुमार धाव्या शतकांतु निपजलें ऐसें दिसता. महाराष्ट्री म्हळ्ळ्यारि प्राचीन हिंदुस्तानची संगीतांची भास. संस्कृत नाटककारांनी बरैलल्या नाटकांनी साधो लोकु जो आसा तो शौरसेनींतु आनी हेरां प्राकृत भासानीं उलई, पुणु गाणीं मात्र महाराष्ट्रीतुं गाई. कालिदासाक महाराष्ट्री गाणीं रचूंक भोव रुचतालें. कालिदास आपण संस्कृत कवि, पुणु नीज महाराष्ट्री उलौपी लोक-कवी आनी ग्राम्य-कवि आसताले, जे धाकुलीं काव्यां बरई. हांतुलीं थोडीं काव्या एका सातवाहन वंशाच्या चक्रवर्तीन - जाचें नांव 'हाल' म्होणु दितातिे-एकठांय करुनु एकु काव्यसंग्रहु घडिलो, आनी ताका 'गाहा सत्तसई' (म्हणजे गाथांची सप्तशती वा सातशीं गीतां) म्होणु नांव दवरिलें. ह्या संग्रहांतुलीं थोडीं काव्यां जी आसति, तीं भासेन कोंकणीचे लागीं पावताति. उदाहरणार्थ -

पोट्टं भरंति सउणा वि (अपि) माउअ अप्पणो अणुव्विगा.

पोटभरताति सवणी पासुनु मायानो! आपण विघ्न नासतना. (3:85)

........ 12 व्या शतका आरंभाक श्रवण बेळगोळ गांवांतु बाहुबली मूर्तिच्या पायांतळा आसिल्ल्या शिलालेखांतु (1116-1117) हीं उत्रां कातारिल्यांति:

श्री गंगराजे करवियलें (श्री गंगाराजान करयलें) हांगा दोनीय भासांचे भैणी प्रयोजकधातु मेळतातित, मराठीचो 'वि' आनी कोंकणीचो 'य'.

...... सेवटीं कोंकणीक आपुल्या नीज नांवान वळखिली एक मराठी कवीन, नामदेव म्हळ्ळल्यान (जाची जीणी सुमार 1270 वरुसा आरंभूनु सुमार 1340 वरुसा संपली). इतुलेंचि न्होय, बगर नामदेवान एक कोंकणी लोक-काव्य नोंदु करुनु दवरिलें आनी तें एके गोपिकेच्या तोंडांतु घालें (अंक 2)......

(गोवा कोंकणी अकादेमीन 1996 वर्सा उजवाडा हाडिल्ल्या डॉ. जुजे पेरेइर हांच्या 'कोंकणी मंदाकिनी' पुस्तकांतले लेखकाचेच प्रस्तावनेंतल्यान)

डॉ. जुजे पेरेइर हांणी 'कोंकणी मंदाकिनी' त आसपाविल्लें तें 'गवळिणींगेलें मागणें' अशें आसा... नामजेवालो मराठी प्रवेशु -

गौळणी ठकविल्या

एक एक संगतीने मराठी कानडीया

एक मुसलमानी

कोंकणी

गुजराती अशा पांची जणी गौळणी ठकविल्या।।

पाव गा दातारा।

पाव गा दातारा।

तूं नन्दाचो झिलो।

माकां फडको दी।

मी हिंवान मेलों।

घे माझो कोय्तो।

देवा पायां पडलों।।

तॉमास स्टीवन्स कोंकणी केंद्रान 1990 वर्सा उजवाडा हाडिल्ल्या 'सोळाव्या शेकड्यांतलें कोंकणी म्हाभारतः आदि पर्व' (संपादकः प्रताप नायक जे. स.) ह्या पुस्तकांतले प्रस्तावनेंत डॉ. प्रताप नायक आदिपर्वाचे भाशेचेर विचार मांडटनाच कोंकणी भास, संस्कृतीचो इतिहास सांगतात.

.... आदि पर्वाची भास सोळाव्या पर्वाच्यो काणयो सांगपी मनीस शिकपी जाल्ल्यान ताची भास सादी, चालती आनी आकर्शक. ह्या काणयांनी एकूय पुर्तुगेज उतर मेळना. ह्यो काणयो बरयताना कोंकणिचेर पुर्तुगेज भाशचो प्रभाव पडूंक नासल्लो हें सत उक्तें दिसता.

.... मजकुरांत कांय कानडी उतरां मेळ कानडी उतरां मेळतात। देकीकः बरै आडादेड्ये (हे वाटेन ते वाटेन), मंचकु (खाट), तडौ (उशीर), कानडी उतरां कदंब राजांचे राजवटके वेळार गोंयांत आयलीं आनी तीं कोंकणीन आपणायलीं. फार्शी-अरबी भासांचीं जायतीं उतरां आदि पर्वांत मेळतात. देकीकः हुजिर (समोर), कागत, हुर्मती (स्थान), कबुल, फजोति, कोवाल, गुन्यांव् मनसुभी, रजा (सुटी). गोंय मुसलमान रायांचे सत्तेखाला आसताना हीं उतरां कोंकणींत आयल्लीं जायत. आदिपर्वांत कांय कडे मराठी व्याकरणाचो प्रभाव आसा. पोरणे कोंकणींत 'माळ' 'वाट' ह्या स्त्रीलिंग उतरांचें भौवचन 'माळो', 'वाटो' जाता. पूण आदि पर्वांत कांय कडे भौवचन 'माळा', 'वाटा' पळौंक मेळता. पोरणे कोंकणींत 'चित्रसाळा', 'सभा' ह्या स्त्रीलिंग उतरांचें सामान्य रूप (Oblique form) 'चित्रसाळे', 'सभे'- जाता. पूण आदि पर्वांत कांय कडेन तांचीं सामान्य रुपां 'चित्रसाळा'- 'सभा' - अशीं मेळतात. मराठी भाशेच्या प्रभावाक लागून अशें जालां. पुर्तुगेज गोंयां येवचे पैलीं मराठी, धर्मीक साहित्याच्या रुपान गोंयांत पावल्ली आनी तिच्या व्याकरणाचो प्रभाव कोंकणीचेर पडल्लो म्हण सांगूंक आदि पर्व एक पुरावो. (आदि पर्वाची भास माथाळ्यासकयल्या मजुकुरांतल्यान)

हो डॉ. प्रताप नायक हांचो विचार जरूर चर्चा करपासारकोच आसा. जाल्यारूय कोंकणी म्हाभारताच्या रचनाकाळार कसले शैलीची कोंकणी लोक उलयताले हाची पत वाचकांमुखार दवरल्यार पोरणी कोंकणी आयजूय थोड्या भोव प्रमाणांत साश्टींत आनी केरळ वाठारांत कशी चलंत आसा, हें समजुपाक बरें जातलें. देखून हो एक नमुनो.

अस्तानपुर नांव नगर तेथीं सन्तान चक्रवती राव् राजे करी. त्या रायाच्ये स्त्रेक नांव गंगा, ती स्त्री रायान मेळैतनां दोगांकै बोलु सुकृत होउनु ती रायाची स्त्री जाली. "जे वेळे हांव मागन तें तुवें राया माका दिउंचें", ऐसें म्हणौनु बोलु भास रायान दिली फुडां ती गर्बेस्ति जाली. नव मास भरले. उप्रांतें प्रसुत जाली. पुत्रु जालो.

हे वाचतनाच वा आयकतनाच केरळांतल्या गोड्डे रामायणाचो सूर भास शैलीच्या संदर्भांत कानांत रुंवरुंवता. मूळ मल्याळी लिपींतले हें 'गोड्डें रामयण' प्रो. आर्. के. राव हांणी देवनागरींत लिप्यंतर करून संपादीत केलां आनी 1989 वर्सा कोंकणी भाषा इस्टिट्यूटान तें उजवाडा हाडलां.

साहित्य मागीर तें लिखित रुपांतलें जावं वा मौखीक रुपांतलें (लोकवेद) जावं ताचो संबंद संस्कृतीकडेन आसताच आसता. देखीक, लोकवेदांतल्या कांय गितांतल्यो ह्यो कांय वळी पळयात.

आब्यां तुजो ताळो, ताळो मोडोनी रथ घडियालो
जलम्या नी देव आमी रत नी घडियालो

..............................................

झेम झेम झेमाडो दारींक आसा एक आंबाडो
सोय बाये, सोय, तांबडे नाल्ला, तांबडे नाल्ला सोय

.............................

कांगोण्ये रांदिले गे बाये कांगोण्ये रांदिले
कांगोण्ये वाडिले गे बाये कांगोण्ये वाडिले

.............................

झेंडूवाला वाला रे झेंडूवाला वाला
शेंवतेच्या फुला रे शेंवतेच्या फुला

वेळीप-गांवकारांच्या फुगडी-धालोच्या गाण्यांतल्यो पतीखातीर दिल्ल्यो ह्यो कांय वळी वाचले उपरांत आंब्याचो ताळो, जल्मी देव, ताचेखातीर रथ, आंबाडो आनी अशीच गांवांत जावपी फळफळावळ, नाल्ल (चड करून तांबडो नाल्ल), वरवगोटो, शेवतेचीं धरून हेर फुलां आदी सैमीक वस्तू-पदार्थाचें मनशाच्या जिवितांतलें म्हत्व लक्षांत येता आनी म्हत्वच न्हय फकत जाल्यार मनशाच्या जिविताचो सैमाकडलो घटमूट संबंद लक्षांत येता, काळजाक भावता!

बायलांच्याच लोकगितांची वा नाचगितांची देख दितलो जाल्यार 'देखणी' नाचाची आनी ताच्या गिताची दिवं येता. अस्सल हिंदू पद्धतीन न्हेशिल्ल्यो ह्यो सवायशिणी बायलो जेन्ना 'चोलतांय चोलतांय जाली म्हाका राती' हे गीत कॅथॉलिकांच्या

उच्चारांनी म्हणत 'दामुल्या' माटवांच नाचतात, तेन्ना गोंयचे एकचाराचे संस्कृतीची घटमूट परंपरा नदरेंत भरता. हातुंतलो घुमट आनी गिटारच्या वादयांचो संगम हो एकचार चड घट करता.

तशें पळोवपाक गेल्यार गोंयांत कितल्योय व्हडल्यो व्हडल्यो जात्रा आनी फेस्तां जालीं तरी 'लग्नांत बायलो मस्त, तशे शिगम्यांत दादले मस्त'. इंत्रूज (कर्निवाल न्हय़) म्हजे नदरेन हांगाच्या कॅथॉलीक भावांचो व्हडलो, दबाजीक उत्सव. ते भायर तो गोंयकारांचो एकचारूय दाखयता. कारण, हांगा शिगम्यावरीच घुमट आसता आनी 'आबोलें फुल्ला बांयकोडे, सुंदरें न्हावता न्होंयकोडे' सारकें शिगम्यांतलेंच गाणें थोड्याशा वेगळ्या उच्चारांनी आसता. इंत्रुजांतलें वेगळेंपण वा विशेश म्हळ्यार फेळ (खेळ). तातूंत नाट्य आसता. गितां आसतात आनी सामाजिक संदर्भ घेवन केल्ली टिका लेगीत आसता.

शिगम्यांतलीं गितां तर ते नदरेन अभ्यासपासारकीं. देखीक,

वेंतभर बामणा हातभर शेंडी

तेचपरी,

सोनार शेट्टी कुलकर्णी आप्पा.
दोगांयची संगत नाका रे बाप्पा

अर्थांत त्या तेंपार भौसाक तथाकथीत उच्चवर्णियांकडल्यान जे तरेची वागणूक मेळ्ळी, ताचो परिणाम म्हूण लोकसंगितांत तो खर आवाज टिकात्मक स्वरुपांत तरीय कलात्मक जावन आयलो.

गोंयचे संस्कृतीचो अभ्यास करतल्यांनी ह्या अशा लोकगितांचो अभ्यास करचोच पडटलो. वांगडाच त्या तेंपार लोकजीण कशी आशिल्ली हें सांगपी गितांय नदरेसकयल घालचीं पडटलीं. देखीक,

सांड (थंड) सावळ माडाची

नितळ पाणी झरीचें

............

खैरीचो खुटोरे कुंब्याचैं दायें

यो गा सोयऱ्या बैल बांदया

ह्यो फकत दोन देखी. मात्त तातुंतल्यान तेन्नाच्या समाजाची जीण लक्षाँत

येता. घडये हे लोक शिकिल्ले नासत, जाल्यारूय ते सुसंस्कृत आशिल्ले. गिन्यानान गिरेस्त आशिल्ले, हें दाखोवपी तोणया मेळाच्या गितांतल्यो ह्यो कांय देखी पळयात.

चानये पोरा तुका तीन पाट

रावणान सिते व्हैला दकय वाट

तेचपरी,

परशुरामा धणसु सिते सापडल्यां

उचाट धणसु रामालो

खिगम्या मेळाची चौरंग वा जोत म्हळ्यार तर रामायण - महाभारताचें मिनी-रूप.

देखीकः

अयोध्या नगरीं दशरथ राजा बा

अयोध्या नगरीं दशरथ राजा

तेचपरी,

पंढरीवयल्या त्या वाटेर ताका बाजार

पंढरी वयता ती वाट बांदली गंवड्यांनी

विठोबा चलता पावुण्यांनी

गितां मागीर तीं तोणया मेळाचीं जावं चौरंगेची जावं, तालगडीचीं जावं वा गोफाचीं जावं जायते फावट भाशाभेद पयस करून आपलें एक खशेलें रूप घेवन येतात.

देखीक, तालगडेचें हें एक गीत.

राम लक्षुमण भरत सेत्रुग्न अयोध्येचा राया रे या

कौसुली माता दशरत पिता

कौसुली माता दशरत पिता

भक्त तयाचा मारुती हो

भक्त तयाचा मारुती हो

तेचपरी, तोणयां मेळापयलींचे चौरंगीच्या गितांतल्यो ह्यो कांय वळी.

धूल्ल कांडटा सिते धणसु गावला
तो धोणसु घेवन सीता घरीं चालली
तुळशीच्या पिंडेवरी धणसु तेकिला
या रे धणसाचें बाप्पा सैंवर मांडुंया रे

...............

भायल्यान आयिल्ल्या भाशांचो प्रभाव आपलेपणाचे, येवकाराचे भावनेन पचोवन घेवन कोंकणीपण सासणाचें राखपाची करामत गोंयचे अस्मितायेन वेळोवेळ केल्ल्याचें अशा जायत्या देखीवरवीं आमकां जाणवता. मागीर ती भास जावं मराठी, जावं कानडी, जावं अरबी, फारसी, जावं पुर्तुगेज.

गोंयचे संस्कृतायेचो एक विशेश सट्ट करून सांगपाक जाता तो म्हळ्यार हे संस्कतायेचें खरें तर अस्मितायेचें नीज भारतीयत्व. भारतीय संस्कृतायेन बायलमनशेक दिल्ली भौमानाची सुवात सांगतना जायते फावट 'यत्र नार्यस्तु पूज्यन्ते' बी सारकें संस्कृत सुभाषित म्हणून आमचे मदले कांय जाण विदृवत्तेचें जें प्रदर्शन करतात, ती भारतीय नारीची म्हान सुवात लोकवेदांतली कोंकणी आरत सोप्या तितल्याच बायलमनशेक सोबसारक्या अळंकारीक उतरांनी सांगता.

....................

(असे) नव नायेचे होन नारीन आंगोळ केला
पितांबर सावळ्याची कास नेशिला
(असे) बावन बिरंड्यांचीं चोळी आंगा घातिला
नव रे लक्ष्यांचो हार गळ्या घातिला
हाताचे वज्रचुडे हाता घातिला
नाकाचे वज्रफूल नाका घातिला
कानाचीं वज्रफूलां कानां घातिला
कपालीचें शस्त्रफूल कपालीं लाविला

...................

आंगणांत आयिल्ल्या खेळ्यांक आरत दाखोवपाक घेवन येवपी नारीचें लोकवेद रचनाकारांनी केल्लें हें तपशीलवार तितलेंच सुरबूस वर्णन म्हळ्यार जशें गोंयकार भारतीय नारीचें एक अस्सल रूप, तितलेंच कोंकणी भारतीय साहित्याचेंय एक अस्सल रूप म्हळ्यार अतिताय जावची न्हय.

अशेंच म्हान साहित्याचे आनी संस्कृतायेचे गावायेचें एक बेस बरें रूप पळोवपाक मेळटा तें गोंयांतल्या शिगम्या मेळाच्या 'झाडो' ह्या भैरवी स्वरूप समाप्ती गितांत.

देखीक, ..................

आमचो विष्णू आयलो ब्रह्मा आयलो
ध्यानी समजलो मनी-समजलो
खैरीची बी म्हणून त्याची परीक्षा केली
विष्णून घेतलें खोरें कुदळ
गुरून घेतली खैरीची बी
चालून गेले रे ते वुरवळीच्या वनामदीं
आमच्या गुरून मारिली कुदळ काडिलो धेपा
तातूंत नाटली खैरीची बी
आळें धरलें धरतरेचें.
झाकण झाकलें कड्डाचें
शिपण शिपलें मेघाचें
कोम रचलो रे ताका कुकूडसा
एक पान जालें सान सूर्यबाळ जल्मलो
...............
पांच पान जाले, पांच पांडव जल्मले
एकवीस पान जाले गुरू सुवर्ण जालो

हे नदरेन लोकसंगिताच्या होवयो, लग्नगितां, दात्यावेलीं गितां, शेतांतलीं नाटी वेळावयलीं गितां, चौरंग, जोत, गुडल्यागितां, रामायण, म्हाभारत तेचपरी गावन काणी, झाडो, शिळोप, येर्स, कांतारां आदी कितल्याशाच आंगांचो अभ्यास केलो जाल्यार गोंयची संस्कृती सामजुपाक चड बरी मजत जावं येता. रोमटांतलीं गितां, सुंवारी-चंद्रावळीचीं गितां, घोंसायांचें गायन, पवाडे, लावण्यो आदी प्रकारांतल्या लोकसंगिताचोय विचार हे नदरेन जावपाक जाय.

सगल्यांक खबर आशिल्ल्या घोडमोडणी, मांडो, देखणी, नाच, गोफ, तालगडी, धनगर नाच, मुसळां खेळ, तोणयांमेळ, जागर, समयां/दिवल्यां नाच, फुग्डी-धालो, वीरभद्र, कुणबी नाच आदी लोकनाचांच्या अभ्यासांतल्यान तर गोंयची संस्कृताय

चड बरी स्पश्ट जावं येता. देखीक, गोफ, तालगडी, तोणयांमेळ, शिगमो हे पिकावळीकडेन संबंद आशिल्ले, बरे पिकावळीचे खोशयेंतल्यान जल्मल्ले दादल्यांचे सांघिक नाच. अर्थांत हातूंत उमेदीवांगडाच गावन नाचून देवदेवतांक भजप, पूजप येता आनी सांघिक पदन्यासांतल्यान गोंयांतल्या धनगर/गावळ्यांचें जीवीत समजता. खरें तर गोंयांभायल्यान चड करून सौराष्ट्र आदी वाठारांतल्यान येवन गोंयांत स्थायिक जावन पुरायेत गोंयकार जाल्ल्या, मात्त काठियावाडी भेसावरवीं बीर देवाच्या भक्तिगितांवरवीं आनी राधा-कृष्णाच्या प्रेमगितांवरवीं मूळ परंपरा सांबाळून दवरतनाच कोंकणी गोंयकार जाल्ल्या, धनगर/गवळ्यांचो धनगर नाच म्हळ्यार गोंयचे संस्कृतायेचो एक विशेश. मुसळ नाच लेगीत एक खेरीत, विशेश. चौदाव्या शेंकड्यांत चोल राजांचेर जैत मेळयिल्ल्या विजयनगराच्या राजाचीं, हरीहराचीं गितां ह्या मुसळ नाचांत गायतात आनी विशेश म्हळ्यार नाचपी कॅथॉलिक भाव जावनूय तांचो भेस मात्त हिंदूंच्या भेसावरी. चांदरचे गांवकार ते. आनी हो नाच जाता तोवूय फाल्गुनाचे पुनवेरातीं. हिंदू आनी ख्रिश्चनांच्या एकचाराचें इतलें घटमूट नात्याचें आनी कलात्मक रीतीचें बेस्स बरें दर्शन गोंय सोडून दुसरे खंयचे सुवातेर घडुंयेता? मात्त गोंयांत मुसळनाचावरीच देखणी नाचांत हें इप्रित घडिल्लें. पळोवंक मेळटा. पाश्चिमात्य ठेक्याचेर भारतीय नृत्याचो आविश्कार तेचपरी पाश्चिमात्य संगिताचेर भारतीय गिताचें नृत्य नाट्यावरी गिटाराच्या आनी घुमटाच्या साथीचेर सादरीकरण फकत गोंयच्या देखणी नाचांतूच पळोवपक मेळटा. पाश्चिमात्य संस्कृतायेच्या संगिताचो आनी ठेक्याचो बाज आपणावनूय नाच मात्त भारतीय म्हळ्यारूच गोंयचो दवरपांत गोंयकारांनी मेळयिल्लें जैत हो गोंयचे कोंकणी संस्कृतायेचो एक खाशेलो विशेश. घुमट, शेमेळ, कासाळें, सूर्त, शेनाय आदी वाद्यांचे साथ संगिताचेर चलपी आनी गोंयच्या दर एका जात्रा-कालो-नाटकाचोय उमेदी आरंभ करून दिवपी सुंवारी हो लोकसंगिताचो आनी लोकवाद्यांचो आविश्कार देखुनूच लोकसंस्कृतीचोय आविश्कार. आतां हातूंत नाच नासलो तरी हावभावांच्या, हालचालींच्या प्रगटीकरणावरीच लोकमनांक आनी काळजांक हालोवपाची, नाचोवपाची तांक हे सुवारेंत आसता, ती थोडेभोव प्रमाणांत आयजूय जिवी आसा.

गोंयच्या काल्यांनी आयजूय कांय कडांनी संकासूर काले, गौळण काले आदी काल्यांवांगडा दशावतारी खेळ जातात. तातुंतल्यान चड करून संकासूर काल्यांतल्यान जशें गोंयचे लोकसंस्कृतीचें दर्शन घडटा तशें आनी घडये चडूच लोकसंस्कृतीचें दर्शन 'जागोर' ह्या लोकनाट्य प्रकारांतल्यान घडटा. आदली समाजबांदावळ

स्पश्टपणान लक्षांत येवपाक जागरावरवीं चड मजत जाता. कांय जाण तर जागोर हो गोंयच्या नाटकाचें मूळ मानतात. जाल्यार कांय जाण जागराक गोंयच्या आधुनिक/ प्रायोगिक मराठी नाटकाचें मूळ मानतात. जाल्यारूय हिंदूचे पेरणी जागर आनी किरिस्तांव - गावड्यांचे जागर गोंयांत आयजूय चलतात आनी पेरणी जागोर बिंगड विंगड भौरुप्यांवरवीं सादर जातनाच विश्वाच्या मुळाचो सोद घेवपाचो यत्न करता जाल्यार ख्रिश्चन गावडा जागोर त्या त्या तेंपावेलें थळावें जिवीत विंगड विंगड पात्रांवरवीं माचयेर हाडून टिकात्मक रितीन समाजाक मार्गदर्शन करता. ते नदरेन जागोर हो गोंयचे कोंकणी संस्कृतायेचो एक विशेश.

माथ्यार तेचपरी हातांत दिवल्यो घेवन नाचपाच्या समय/दिवल्यां नाचावरवीं सर्कशीवरी कसरतीचे समतोलत्वाते नाचाचे प्रकार जशे पळोवपाक मेळटात तशेच दिवल्यां वरवीं गोंयच्या हस्तकलेच्या नमुन्यांचेंय दर्शन घडटा. आयजूय गोंयां भायल्यान आयिल्ल्या सोयऱ्यांक दिवली भेटयतना आम्मी गोंयची खाशेली कला आनी ताचेवरवीं जशी किते गोंयची संस्कृती सोयऱ्यांक भेटयतात.

फुगडी-धालोच्या विंगड प्रकारांमदीं कोंकणी-मराठी मिसळ जशी दिसता तशीच तांणी आपणायल्लें भाशा भयणींचें मोगाचें नातें होलमता. हिंदू बायलांची उमेद जशी ह्या फुगडी-धालोवरवीं व्यक्त जाता, तशीच गावडा बायलांची उमेद कुणबी गितां आनी कुणबी नाचांतल्यान व्यक्त जाता. मात्त कुणबी नाचांतलो विशेश म्हळ्यार ह्या नाचाच्या गितांतल्यान पुर्तुगेज येवचेआदींच्या कालखंडांत गोंयांत आशिल्ले समाजीक तत्वप्रणालीचें दर्शन घडटा. तेन्नाची समाजीक आनी धर्मीक स्थिती ह्या नाच-गितांतल्यान स्पश्टपणान लक्षांत येता. तेचपरी हो नाच नाचपी लोक चड करून सालसेत वाठारांतले जाल्ल्यान कोंकणी भाशेचें खाशेलेंपण वा नाच गितावरवीं आमकां कलटा.

सांगें, सांवड्डें, कुडचडें, केपें आदी वाठारांतलो वीरभद्र म्हळ्यार तर कानडी आनी कोंकणी संस्कृतायेचो सुमेळ. कारण, तलवार घेवन आकांतान नाचपी हो श्रीशिवाचो पूत.

वेळीप गांवकारांचे फुगडेंत जीं गितां आसतात, तातुंतलीं चडशीं गितां समाजाच्या दुसऱ्या कांय घटकांचे फुगडेंतल्या गितांसारकींच आसलीं तरी कांय गितांची विशेशताय अभ्यास करीसारकी दिसता. तातुंल्यान गोंयचे संस्कृतीचेरूय उजवाट पडुंयेता. देखीक, एका गिताच्यो ह्यो कांय वळी -

आमी सामी तोळ मारूं यो गा बेसुराजा
फळाकडे रातराणी सात गाणी शोबदुलो
आमी सामी तोळ मारूं यो गा बेसुराजा

ह्या गाण्यांतलो बेसुराजा म्हाका संस्कृती सोदाचे नदरेन भोव म्हत्वाचो दिसता. कारण, तो आनीक कांय गितांनी वेगळे रितीन खाशोलपणान दिश्टी पडटा. देखीक,

श्री गदिखांब गडीचा मेडा गी अंक टंक सुंक चवरगादी गदीवर पडगादी दाड अश्चाव मलराव स्थापन चारी सोन्याच्या वाटेवरी रुपेचा गोळा बाव्वन्न ब्रदाचा पाठ परिमळा उद्दरती पाचशे सतिगाची महिमा. काळी गादी पाढरी साथी तिही भूईचे उप्परी सुवर्णाचा कलशू कत्ती ममराठी गजागण बेतुराणासि बोलावून आणिला माणिकेसी खांब घातिला बारारायाचा झूजार बाराराय खंडिचे खाडीस्थळी केले राज्याचा अंकणा गडि एक सिह भैरपाल आले गेले यांचा प्रतिपाळ उल्लघुनी पाडिता बालिआश्रामाचा आमला पोटचे दिती पण पाठिचे राखती शरणागता वज्र पंजरू.

पैंगीण, काणकोणच्या श्री परशुराम, श्री पुरुषोत्तम, श्री लक्ष्मीनारायण, श्री नवदुर्गा, श्री बाताळ ह्या देवतांच्या परशुराम पंचैग्राम वाठारांतल्या इतिहासीक स्वरुपाच्या टक्यांतल्यो ह्यो वळी. म्हजे कलाकार इश्ट श्री महेंद्र रा. फळदेसाय हांचेकडल्यान हो टको हांवें बरोवन घेतलो खरो, पूण हो फकत मजा म्हूण नाचपाचो वा आयकुपाचो विशय न्हय, जाल्यार इतिहासीक दस्तऐवज म्हूण अभ्यासपाचो विशय अशें म्हाका दिसता. आयच्या म्हज्या विशयाच्या संदर्भांत पोरणे भाशेचो (जातूंत पोरणी मराठी आसा आनी तिचेर जाल्लो कोंकणीचो प्रभाव दिश्टी पडटा) एक नमुनो म्हणून अभ्यास जावपाक जाय, वांगडाच फुगडेंतल्या गाण्यांतल्या 'बेसुराजा' वरीच हांगा जो 'बेतुराणा' जाय, ताचोय सोद गरजेन जावपाक जाय.

हेच इतिहासीक अभ्यासाचे नदरेन गोंयच्या लोकवेदाचोय सोद घेवपाची गरज आसा फळादीक जावची देखून आनी ताचेवरवीं गोंयचे संस्कृतीचेर खाशेलो उजवाड घालपाचो यत्न लेगीत फळादीक जावचो देखून लोकवेदांतल्यो कांय गजाली थोडेभितर हांगा सांगप गरजेचें दिसता.

पश्चिमेकडल्या चडशा आनी विशेश करून इजिप्शियनांचें वेपाराचें केंद्र

आशिल्ल्या आनी पयलींसावनच भोज, मौर्य, कदंब विजयनगर, चालुक्य राष्ट्रकूट आदींची सत्ता आशिल्ला तेचपरी उपरांत आदिलशाही, पुर्तुगेज आदी सत्तांचो बरो वायट अणभव घेतिल्ल्या गोंयांत आयजूय जिवी तट्टटीत आशिल्ली लोककला, लोकवेद गोंयची भास, साहित्य, संस्कृतायेचें दर्शन घडोवपी एक शाशेलें आंग. 'स्वांतसुखाय' (स्वताच्या सुखाखातीर, स्वताचे खोशयेखातीर) जाण्टयांनी निर्मिल्ली ही कला म्हळ्यार संस्कृत पंडित विश्वनाथाचे काव्याचे व्याख्येभशेन वाक्यं रसात्मकं काव्यम। लोकसंगीत, लोकनाच, लोकनाट्य आदी सगल्याच प्रकारांनी हे गजालीचो सारकोच अणभव येता आनी परंपरेन ही लोककला जतन करून दवरिल्ली दिश्टी पडटा. जाल्यारूय गोंयचे संस्कृतीचो विशेश असो की मुळांत आपलो न्हय असो 'कुर्दीन' हो पोर्तुगीज नाच लेगीत गोंयकारांनी आपलोसो करून घेतला. तसो कुर्दीन हो नाच म्हळ्यार पुर्तुगेजांचे संस्कृतेचो दस्तऐवज. थंयचे नागरी लोककलेची नमुनो.

गोंयांत आमच्या कॅथॉलिक भावभयणांनी मांडो-दुलपदावरीच ताची जतनाय करून दवरल्या. मात्त पदन्यास (पावल्यो मारपाची खाशेली तरा) आनी हस्तमुद्रा (हातांच्यो तरेकवार आकृतायो) हांचें खशेलेंपण आशिल्लो देवस्थानाच्या प्रकारांतलो 'पेणें' नाच गोंयांत निमण्या पेण्यार पावला. कथ्थक, कथकली, भारतनाट्यम् आनी मणिपुरी ह्या भारतीय नाचांच्या मुखेल प्रकारांइतलो शास्त्रशुद्ध जावन नामनेक व्याविल्लो न्हय जालो तरी एक शास्त्रशुद्ध बसका आशिल्लो आनी फिळग्यान फिळग्यो गोंयच्या देवस्थानांनी चलिल्लो 'पेणें' हो नाच तसो भारतीय नाच परंपरेच्या धाग्यांतलोच. ते नदरेन गोंयचे संस्कृताचेरूय उजवाड घालपी. आतां देवदासी, कलावंत ह्या उतरांक मेळिल्ल्या विकृत रुपाचो परिणाम जावन 'पेणें' नाच संपुष्टांत आयला हें जितलें खरें, तितलोच संस्कृतीच्या अभ्यासकांखातीर हो विशय तितलोच म्हत्वाचो. देवाक झुलोवपाखातीर म्हूण देवळांनी चलतालो तो झुलो हो गीतप्रकार लेगीत असोच अभ्यासाचो विशय.

एका वेळार आठ मात्रांच्या तालाच्या ठेक्यांत गोंयभर चलताली ती धुमाळी (धुंवाळ) ही खास गोंयची. तेचपरी धा मात्रांच्या ठेक्यांतलें 'घुमट वादन' हेंवूय खास गोंयचें. दीपचंदीच्या बाजाची सात मात्रांच्या तालांत गावपाची आरती ही लेगीत खास गोंयची.

पौषांत गोंयभर चलपी बायलांचो धालो जावं चवथी वेळावेली आनी माघांतली

तेचपरी आश्विनांतली फुगडी जावं वा फाल्गुनांतलो दादल्यांचो शिगमो जावं, सणपरबांवेळार गावपाचीं गुडुलो बनबडचीं गायनां जावं वा मांडे-दुलपदां आनी पवित्र गायनां जावं, काले जावं वा सांजाव जावं ह्या सगल्याच लोककलांमदीं, लोकवेदामदीं संस्कृतायेचें जें सुप्त सूत्र लिपिल्लें आसा, तीच गोंयची संस्कृताय. खशेलो लोककलाप्रकार न्हय जालो तरी मुसलमानधर्मी भावांचो कलाप्रकार म्हूण 'रातीब' ह्या प्रकाराचो उल्लेख करपाक जाय. उत्सवांवेळार वा सांगून घेतिल्लो नवस पावोवपाक म्हूण हो कलाप्रकार ते सादर करतात. गोंयचे संस्कृतीचें आंग म्हूण ह्या प्रकाराकडेन पळोवचें पडटलें. 'डायरा' नांवाच्या एका वाद्याच्या तालाचेर 'रातीब' नाचाच्यो विंगड विंगड कृती जातात आनी नाचपी ऐन रंगांत येतकूच वेभान जावन दाबणान कुडीच्या कान, मान, जीब आदी आंगांनी तोंपून घेतात. असोच 'हाणपेट' नांवाचो एक धर्मीक विधी नेतुल्ले, काणकोण बी वाठारांत पळोवपाक मेळटा. आपले कुडी भोंवतणीं तरसादी वावडून त्यो आंगार मारून घेवपाचो हो प्रकार दोगां जाणांमदींय चलना. देखून, एकलोच गडो वा भगत ही 'हाणपेट' कित्याक करून घेता ताचे फाटल्या इंगिताचो अभ्यास जावपाक जाय. भक्तान आपल्याक त्रास करून घेवन, कूड कश्टावन घेवन देवाक जागोवपाची, देवाक प्राप्त करून घेवपाची तरा तर न्हय मूं ही? हे गजालीचो जसो अभ्यास जावपाक जाय तेचपरी शाक्तपंथी देवस्थानांनी हो प्रकार चड चलता जाल्लयान खेत्रविधीकडेन (रणाच्य इतिहासाची याद म्हूण) ताचो संबंद ना मूं हाचोय अभ्यास जावपाक जाय. तूर्ताक तरी हें 'हाणपेट' परंपरेन आयजूय चालू आसा.

आतां गोंयांत हिंदू, क्रिस्तावं, मुसलमान आदी सगल्याच धर्मांच्या लोकांमदीं संस्कृतीकडेन संबंद सांगपी लोकवेदाचे नाना प्रकार आयजूय चालू आशिल्ल्यान आनी लोकवेद हो सगल्या धर्मांच्या लोकांक एकठांय हाडपाचो एक मध्यस्त दूत कसो जाल्ल्यान एक विचार हांगा मांडप समा दिसता. कोंकणी लोकवेदाच्यो तरेकतरा आनी सोबीत परी वाठार आनी जाती कणकणी गंवसतात. तरिकूय खंयच्याय रंगीबेरंगी फुलां झेल्याचे वावळेवरी एक समान तत्व सगल्या समाजाक गुंथता. देखीक, गोंयचे हिंदू आनी क्रिस्तांव अशे धर्मीक पांवड्यार वेगळायल्ले दोन गट सट् करून नदरेक भरतात. एक सामको भारतीय परंपरेक वेंगोवन बशिल्लो जाल्यार दुसरो पिरंगी संस्कृतायेन प्रभावीत जाल्लो. वयलेचाराक सामके दोन विंगड संस्कृतायेचे पंगड कशे दिसतात. दोनय समाजाच्या अंतरंगांत शिरकटून, बारकायेन नियाळ्ळें जाल्यार मात दोगांयच्याय लोकमनार भारतीय संस्कृतायेचो असर आनी

हांगाचे मुळावे, थळावे, अस्मितेची फांक, नदर दिपकायतली...'

गोंयच्या लोकवेदाचे एक संकलक आनी अभ्यासक प्रा. श्याम वेरेंकार हांणी बरयिल्ल्या आनी गोवा कोंकणी अकादेमीन 1991 वर्सा उजवाडा हाडिल्ल्या 'गोंयच्या लोकवेदाचो रुपकार' ह्या पुस्तकांतले 'चल मना सोदी' ह्या मनोगतांत तांणी काडिल्ले हे वयले उद्गार आमकां लोकवेदाची तांक मेजक्या उतरांनी स्पश्ट करून सांगतात. आनी... शारांतल्या लोकांक आपणें कितें वगडायलां, आपलीं संस्कृतीचीं मुळां तुटून पडल्यांत हाची सदांच खंत भोगत आसता. हाका लागून लोकवेदाक एक नवें रूप आयलां. गांवचे मेळ आतां शारांत वतात आनी शारांत रावतल्या मनशांक तांचया मूळ दायजाची वळख करून दितात. अशे तरेन गांव आनी शार हांचें तुटिल्लें नातें परतूत घट जाता. शारांतले कार्नाव्हाल, शिगम्याचे मेळ, नरकासुराच्यो सर्ती, शाळा कॉलेजांतल्या दबाज्यांतलीं लोकनृत्यां ही सगली ह्या नव्या बदलाची एक गवाय.

... अशें सांगतात की आसामांतले कांय आदिवासी नाच आनी गोंयचे परंपरीक नाच हे खूब मेळटा-जुळटात. मुंडारी संस्कृतायेचें मुळावण सगल्या भारतांत कोनशां कोनशांई पातळ्ळां...

'... लोकवेदाचो अभ्यास म्हळ्यार एका समाजाच्या इतिहासाचो, संस्कृतायेचो आनी दिसपट्ट्या जिविताचो अभ्यास...' अशें आपलें मत साहित्यिक, डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हांणी लोकवेद विभागाचे मुखेली म्हूण 'मुळां आनी फुलां' नांवांन त्या पुस्तकाक बरयिल्ले प्रस्तावनेंत उक्तावन लोकवेदाचें गरजेन बदलतें स्वरूप आनी ताचें खाशेलें म्हत्व स्पश्ट केलां.

आतां लोकवेदाच्या ह्या अभ्यासांत 'भास' नांवाचो विशय कितलो आसपावता आनी ताची थंयची सुवात केदी ह्या प्रस्नाक जाप दितना लोकवेद हें आपलें मूळ म्हूण त्या मळार वावुरपी आनीक एका लोकवेद संकलक आनी अभ्यासकाचें मत ह्या संदर्भांत हांगा दिवप समा दिसता.

गोंय सरकाराच्या कला आनी संस्कृती संचालनालायान 1996 वर्सा लोकवेद संशोधिका बाय जयंती नायक हांचें 'नागशेराचे सूर' हें 'नाल्लबंद आनी माणकावंत' आनी 'भोजराजा आनी साधू' ह्या दोन गीत-काणयांचें संकलन पुस्तकरुपान उजवाडा हाडलां. ह्या पुस्तकांत 'काणी सांगची जाणेऱ्यांनी रे!' नांवान बरयिल्ल्या प्रास्ताविकांत बाय जयंती नायक म्हणटात ते प्रमाण लोकभाशेचें एक गिरेस्त

दायज ह्या काणयांत आसा. गोंयच्या समाजाचेर आशिल्लो कन्नड तसोच मराठी भाशेचो आनी संस्कृतीचोय प्रभाव ह्या काणयांतल्यान व्यक्त जाता. देखून ह्या कणयांचो भासशास्त्रावांगडा समाजशास्त्र आनी मानववंश शास्त्राचे नदरेंतल्यानय अभ्यास जावपाची गरज आसा...

अर्थात तांचें हें मत फकत 'नागशेराचे सूर' मदल्या काणयांकूय लागू जाता अशें न्हय, जाल्यार गोंयच्या चडशा लोककाणयांक तें लागू पडटा.

गोंयचीं देवळां, इगर्जी, मशिदी आदी देवधर्मीक संस्थांनी गोंयचे संस्कृतायेचें दायज सांबाळून दवरून ताच्या दायजाचो लोट आयच्या खिणामेरेन पावोवपाक मोलादीक योगदान केलां म्हळ्यार अतिताय जावंनये. आतां, देवधर्माचे संकल्पनेसंबंदान मतभेदांक, वादविवादाक भरपूर संद आनी सुवात आसली तरी देवधर्मीक संस्थांनी चलत आयिल्ल्या परब, उत्सव-जात्रा, फेस्त, उरूस आदी संस्कृतायेकडेन संबंद पावपी गजलींपुरतोच विचार हांगा करपाचो आसा.

ते नदरेन गोंयच्या कांय म्हत्वाच्या देवळांतल्या, इगर्जींतल्या आनी मशिदींतल्या कांय म्हत्वाच्या उत्सवांसंबंदान जाणा जावन घेवप गरजेचें. तशें गोंय म्हळें की सट्ट करून गोंयचो शिगमो जसो दोळ्यांमुखार उबो रावता, तसोच गोंय सरकारान भायर केल्ले भरपूर जायरातबाजीक लागून पर्यटकी नदरेक कार्नवाल लेगीत तितल्याच वेगान येवकार दिता! खरें म्हळ्यार कार्नवाल आमचो न्हय. आमचो न्हय म्हूण व्हडलो बोवाळ जावन तो मदीं बंद लेगीत जाल्लो. पूण आतां पयलींपरस थोडीशी तथाकथीत 'सभ्यता' पाळून तो पर्थून महोत्वाच्या रुपान सुरू जाला आनी गोंयचे संस्कृतायेचें एक आंग जावपाची ताची धडपड चालूच आसा. खरें तर गोंयचो शिगमो जावं, पैंगीणची गड्यां जात्रा जावं, साळचे गडे जावं, दिवचलचो श्रावणी सोमार जावं, म्हाडूडोळची कोजागिरी जावं, ओल्ड गोवाचें सेंट झेवियरचें फेस्त जांव, कांसावलेचें रायां फेस्त जावं वा गोंयच्या मशिदींतले उरूस जावं हें सगलें गोंयचे संस्कृचायेचें गिरेस्त दायज.

पेडण्याचें अष्टभुजा - भगवतीचें देवूळ आनी त्या वाठारांत आश्विन शुद्ध पाडवो धरून पुनवेमेरेन जावपी पेडण्याचो दसरो, पार्शे-पेडण्यांचें भगवती, सांतेरी, श्रीदेव रवळनाथ, श्रीदेव भिवंगी पंचाक्षरी, ब्रह्मो आदी पांच देवळांचें संकुल, त्या वाठारांतले दोन खेरीत दीपस्तंभ आनी थंय जावपी वर्सुकी दसऱ्याचो मोठो उत्सव, मांद्रेचें नारायण, रवळनाथ, सत्पुरीस, रामपुरीस आदी देवांनी युक्त अशें सप्तेश्वर

भगवतीचें देवूळ आनी थंयचो दसरो, पुर्तुगेजांचे छळणुकेक लागून बारदेश सांखळी-धारगळ असो प्रवास घडिल्ली शांतादुर्गा, गोंयांतूच न्हय उरिल्लया भारतांतय पळोवंक मेळना अशें वाळपयच्या ब्रह्माकरमळी गावांत आशिल्लें ब्रह्मदेवाचें देवूळ (ताका ब्रह्माकरमळी म्हूणच वळखतात), गोंयांत एका तेंपार राज्य केल्ल्या भोज राजांचें दैवत आशिल्लें पाड्डें-केप्यांचें 350 मीटर उंचायेवेल्या चंद्रनाथ प्रवतावेलें चंद्रेश्वराचें देवूळ (हाका लोक पर्वत ह्याच नांवान पाचारतात), गुलालाच्या रंगान रंगपी प्रसिद्ध जांबावलेचो गुलाल हजारांची गर्दी नेमान जंय मनयता तो जांबावलेचो हिंदू तशेंच क्रिस्तांव धर्मी भक्तांचो श्री दामोदर आनी ताचो वर्सुकी गुलाल उत्सव, दत्त जंयतीचो उत्सव जंय दरवर्सो व्हड प्रमाणांत मनयतात तें सांखळेचें दत्तमंदिर, राण्यांच्या कुटुंबाचे अशें विठ्ठलवाडी सांखळीचें विठ्ठल मंदिर, चैत्र पुनव, कांसारपालची श्री कालिकादेवी, कदंब यादवांचे बाजाल्ट फातरावेले शिल्पकलेचो तेराव्या शेंकड्यांतलो एक उत्तम नमुनो म्हूण अभिमानान सांगपासारकें तांबडें सुर्लाचें (सांगें तालुको) महादेवाचें देवूळ, गोंयांतच न्हय जाल्यार भारत देशाच्या उरिल्ल्या वाठारांतूय चुकूनच नदरेक पडपी अशा श्री विष्णुच्या प्रतिकांच्या लाकडाच्या गरादींचें खशेलेंपण मिरोवपी सभामंडपान सोबीवंत जाल्ली बांदोडेची शक्त देवता महालक्ष्मी (शिलाहार राज्यकर्त्यांची आनी कदंब राज्यकर्त्यांत्यांची भजक देवीची मूर्त कोल्हापूरचे महालक्ष्मी देवीकडे नातें सांगपी मात्त लिंग तकलेर परिधान करपी सात्विक रुपांतली देवी), म्हाडूडोळची म्हळ्यार (देव दैत्यांच्या झुजावेळावयली मोहिनी) आनी तिचो प्रसिद्ध कोजागिरी पुनवेचो उत्सव, सोळाव्या शेंकड्यांत स्थापन केल्लें आनी 1778 वर्सा पुनर्बांदणी केल्लें, साठ पुरवान (साठ दैवतां) युक्त अशें पुराणांतल्यान काणयांतल्या देवदेवतांच्या मूर्तीनी कोरांतिल्ल्या लाकडी खांब्याचें श्रीस्थळ-काणकोणचें श्री मल्लिकार्जुनाचें देवूळ आनी थंयच्यो शिगम्याचो भोंवरी आनी गोंय, कर्नाटकांतल्या शिवभक्तांखातीर प्रसिद्ध अशी शिशारान्नींची विधीयुक्त जात्रा, श्रीमद् नारायणतीर्थ स्वामींनी 1375 वर्सो काणकोणांत पर्तगाळ गांवांत स्थापन केल्लो पर्तगाळचो मठ आनी थंयची प्रसिद्ध रामनमीची जात्रा, अख्ख्या भारतांत सपसप नदरेक पडना अशा श्री परशुरामाचें परशुराम पंचैग्राम देवूळ, थंयचो बेताळ आनी प्रसिद्ध अशी गड्यांची जात्रा, गवळ्यांचो देव अशें गोंयचे पयले मुख्यमंत्री स. भाऊसाहेब बांदोडकार हांणी बांदिल्लें फर्मागुडी फोंड्यांचें गोपाळ गणपतीचें देवूळ, वेदांताचें अद्वैत तत्व व्हड प्रमाणांत सगल्याक पातळावपी अशा इतिहासीक स्वरुपाच्या आचार्यांमदल्या पयल्या अशा श्रीमद् गौडपादाचार्यांचो

मूळ कुठ्ठाळीचो 1630 वर्सा स्थलांतर केल्लो कवळेंचो गौडपादाचार्य कवलें मळ, शिव शंकराचेंच एक रूप मंगेशीचो श्री मंगेश, रामायणांतले प्रसंग उबे केल्ल्या गरादींनी आनी अश्टदिकपाल तेचपरी गंधवर्वांच्यो लाकडी भूर्ती आशिल्ल्या गरदींनी सोबीवंत सभामंडपाचें शिवशंकराच्याच आनीक एका रुपाचें बांदोडेंचें नागेशाचें देवूळ, रामनाथ पंचायतनान (श्री लक्ष्मीनारायण, श्री शांतादुर्गा-सांतेरी, श्री बेताळ, श्री सिद्धनाथ) युक्त असो मूळ रामेश्वरचो असो समज आशिल्लो रामनाथींचो श्री रामनाथ, मूळ केळशीची अशी कवळेंची शांतादुर्गा, मूळ दिवाडी जुंव्यावेलो पूण पुर्तुगेजांनी देवूळ नश्ट केले उपरांत नार्वे (दिवचल) व्हरून स्थापणूक केल्लो आनी 1668त छत्रपती शिवाजी महाराजांनी पुर्तुगेजांचेर घुरी घाल्यावेळार शिवाजी म्हाराजांचे आज्ञेवेल्यान जाच्या देवळाचें नुतनीकरण जालें तो नार्वेंचो 'धरालींग' चो देव सप्तकोटेश्वर आनी थंयची प्रसिद्ध गोकुळाष्टम, हिंदू आनी क्रिस्तांव धर्मी देवभक्त जिका साराक्याच प्रमाणांत भजतात, पुजतात अशी फातर्पेंची श्री शांतादुर्ग कुंकळ्ळीकरीण आनी हालींच जिच्या देवळाचो जिर्णोद्धार करून सोबीवंत अशें व्हडलें देवूळ जंय बांदलां ती फातर्पेंची श्री शांतादुर्गा फातर्पेकांरीण आनी तांच्यो प्रसिद्ध जात्रा, म्हापशेंचो बोडगेश्वर, हनुमान, दत्तमंदिर, पणजेचो मारुती आनी महालक्ष्मीचें देवूळ, पोरण्या गोंयचो गोमटेश्वर, माशेलांतलो देवकीकृष्ण आनी मान्नी पुनव, वास्कोचो श्री दामोदर आनी भजनी सप्ता. गोंयचें संस्कृतीक दायज सांबाळून दवरपी हिंदू धर्मसंस्थानां मदल्यो ह्यो कांय वेंचीक पती.

कारण, गोंयच्या सगल्या देवळांच्या इतिहासाचो सारसरांव सोडाच, पूण निखटीं देवळांचीं नांवांच दिवपाचीं जाल्यार फक्त नामावळेचेंच एक व्हडलें पुस्तक जावंयेता इतलीं ल्हान-व्हड देवळां गोंयांत गोंयभर आसात आनी तातुंतल्या दर एक देवळांत कसले ना कसले तरी उत्सव, जात्रा वर्सभर चालू आसतात. कांय कडेन ह्यो जात्रा 'काले' ह्या नांवानूय प्रसिद्ध आसात. कार्तिक पुनवे निमतान जातात ते संकासूर काले, दशावतारी काले आनी तातुंतलीं भट, विदूशक आनी सवंगां तेचपरी धुमाळीवादन आदी प्रकार तर खाशेले गोंयचे. अशा काल्यांतल्या ह्या संवंगांची भास कोंकणी. मात्त हरदास मुळांत महाराष्ट्रांतले जाल्ल्यान तांची भास मराठी. आमचो संकासूर तर अस्सल कोंकणी. गोंयच्या चडशा वाठारांनी काले ह्या नांवांसकयल जावपी नाटकांची सुवात आतां कांयकडेन कांय प्रमाणांत कोंकणी नाटकांनी घेतिल्ली आसली तरी पयलींसावन चड नाटकां मराठींतल्यान जायत आयल्यांत, जायत आसात ही वस्तुस्थिती! मात्त, नाटकां पयलींचें सुवांरीवादन

हें खास गोंयचें आनी तातूंत 'प्लांव, चेटमेट, बरमूट, घोडा, बुच्ची, ढोळा, झील जाले सोळा' हें 'प्रसिद्ध' गीत आसलेबगर तर सुंवारी पुराय जायीच ना. आतां गोंयांत जात्रा जावं भायर थरावीक सुवातींनी इस्पिकांचे आनी गडगड्यांचे मांड नासत जाल्यार ते सगले उत्सव कांय गोंयकारांक सामके पचक, अळणी लागतले हातूंत दुबाव नाच्च! हे मांड जात्रेंतल्या मिठायेइतलेच गोंयचे संस्कृतायेचें एक आंग मानल्यार म्हाका दिसता मांडार दिसनाशिल्ल्या गोंयकाराकूय वाटड दिसपाचें कारण ना! कारण कांयकडेन तर काले, नाटकां हें निमित्य आसता, ते निमतान इस्पिकांच्या मांडाचेर आनी गडगड्यांच्या मांडाचेर घोळपी अर्थविव्हाराची घोळणूक दिसपट्टे चलपी नामनेच्या मटक्याकूय लजोवपी आसता, अशे आयकतां! अर्थात, ह्या वेव्हरांत 'गुंतवणूक' करपी गोंयकारांचो आंकडो कायद्यांतलें कांय एक कळनासतनाय एका तेंपार त्रिबुनालार (कोर्टांत) 'आदोगाशी' करपी आनी खास करून 'तिस्तमूजा' चो (साक्षीदार) 'वेवसाय/धंदो' अभिमानान आनी भौमानान चलोवपी कांय मेजक्या गोंयकारांइतलोच! देखून हो एक आडवाद जाल्ल्यान अशे तरेचे संस्कृतीक लागून गोंयकाराक तशें लज बी दिसपाचें कारण आसा, अशें म्हाका तरी दिसना!

गोंय सोडून उरिल्ल्या भारत देशाचे संस्कृतीपरस खास वेगळे अशे गोंयचे संस्कृतायेचे विशेश खंयचे असो प्रस्न जर कोणेंय विचारलो तर सट् करून अभिमानान जाप दिवं येता ती म्हळ्यार गोंयचो समान नागरी कायदो. पुर्तुगेज शासनाच्या कांय बऱ्या गजालींमदली एख बरी गजाल, बऱ्या कायद्यांमदलो एक बऱ्यांतलो बरो कायदोः समान नागरी कायदो. लग्नाचें रजिस्ट्रेशन होवूय एक असोच विशेश कायदो. विशेश कश्ट करून पिकोवन खातल्याक सवलत दिवपी भौशीक स्वरुपाची कोमुनिदाद ही स्वायत्त संस्था, अलिखित कायद्यांनी गांव चलोवपी, ग्रामपंचायतीच्या रुपान चवकशी करपी, तेचपरी, बऱ्या वायटाचो न्याय निवाडो करपी, गांवची 'गांवकी' चलोवपी 'गांवपण' ही गोंयच्या गांवांगांवांतली कोर्ट स्वरुपी बुन्यादी संस्था. भुमीपुरीस, सांतेर, म्हारांगण धरून मेरेनची देवदेवता, म्हासत धरून बाराजण मेरेनचो खाशेल्यो यादस्तिकाच्यो सुवाती, परंपरेन मराठी भजनां, आरत्यो, किर्तनां आयकत आयिल्ले तरीय आपल्या भक्तांक, कुळाव्यांक, म्हाजनांक कोंकणीतल्यानूच कोवूल दिवपी गोंयच्या देवांचे भार, मराठी मातृभाशीक म्हूण घरांत मराठी उलोवपी तरीय कोंकणीतल्यानूच सांगणी करपी गोंयच्या देवळांतले भट, ब्राह्मण, पुजारी, कोंकणीतल्यानूच प्रसाद पाकळी मागपी गुरव-वेळीप,

मराठींतल्यान विज्ञानाच्यो गजाली करुनूय देवदेवस्की करपी गोंयची 'भाविकता', नाटकावेळार नटराजाक, गणनायक गणपतीक कोंकणींतल्यानूच सांगणी करपी नाट्याकलाकार, भायल्यान आयिल्ल्या 'गद्य' मनशाचेरूय सूर, ताल, लयीचे काव्यात्म जिणेचो घोगो सोडून ताका पिसावपी गोंयचें सोबीत सुंदर सैम, आंगांत भार भरपी गोंयचो शिगमो, नाच-नाच-नाचोवपी तितलींच भक्तीन भिजोवपी गोंयचीं नातलां! गोंयचे संस्कृतायेच्या खारोलपाणच्यो ह्यो कांय नदरेंत भरसारक्यो पती! येयात, बसात उतरांनी परक्याकूय येवकार दिवपी मायेस्त गोंयकार ही तर ताची खशेली नाट!

भायल्यान गोंयांत येवन राबितो करून रावपी मनीस कांय दिसांभितरूच, चडच म्हळ्यार कांय म्हयन्यांभितरूच आपली मूळ आस्मिताय सोडीनासतना गोंयकार कसो जाता तें पळयतलो जाल्यार गोंयच्या बाजारांचेर एक नदर मारपाक जाय, देशांतल्या चडशा देशी भाशांची ओप मारिल्ल्यो भाजी मार्केटांतल्यो कोंकणीच्यो विंगड विंगड शैली आयकुपाक जाय, मूळ गोंयच्या नुस्तेकान्नींची भेस-भास सहजतायेन आपणावन पुरायेन गोंयकार जाल्ल्या नुस्त्या मार्केटांतल्यान चड करून नव-नुस्तेकान्नींचेर एक उडटी नदर मारपाक जाय, पुर्तुगेज तेंपार सावन चलत आयिल्लें, सायब, सर अर्थाचें गोंयकारांमदल्यान शेणत चलिल्लें तरी भायल्यान गोंयांत येवन 'गोंयकार' जाल्ल्या नव-गोंयकारांमदीं घोळपी 'पात्राम्' उतर कान दिवन आयकुपाक जाय, बस स्टँडाचेर आनी बस-स्टँडावेल्या बशींनी तेचपरी फेरी बोटीच्या धक्क्यांचेर आनी फेरीबोटींनी चलिल्ल्यो 'बाजलेलीं, उकडळ्ळेलीं बिकणां' ची भुपाळी आनी सायंप्रार्थना आयकुपाक जाय, पेप्सीच्या थंड शितळ मंत्रोच्चारान भुरग्यांक चाळोवपी पेप्सीकारांचीं पेप्सी, पेप्सी हीं उतरां आनी जाणटेल्यांच्याय तोंडाक उदक हाडपी चिक्कीकारांचे चिक्की, चिक्कीचे नारे आयकुपाक जाय आनी थोडोसो वेळ मेळ्ळो जाल्यार गोंयांत गोंयभर जंय जंय म्हूण बांदकाम चलता थंय जंय वचून भायलो कामगार आनी गोंयचो कंत्राटदार, गोंयचो इंजिनियर, गोंयचो बिल्डर (अर्थांत हांगा लेगीत तशें मूळ गोंयकारपण उणेंच!) हांचेमदली संपर्काची भास आयकूंक जाय, गोंयांत येवन 'गोंयकार जावनूय' आपले मूळ भाशेंतल्यान कार्यरत आशिल्ल्या कन्नड, मल्याळी, गुजराती आदी समाजाच्या कार्यावळींनी वांटेकार जावपाक जाय, विविधरंगी, विविधढंगी आशा वास्कोंतल्या कर्नाटकांतल्या कन्नडिगांक धरून उत्तर प्रदेशाच्या भैय्यामेरेनच्या लोकांच्या थंयच्या वाडट्या प्रस्थाचो एक नियाळ करपाक जाय, महाराष्ट्र परिचय केंद्र, साने गुरुजी कथामाला, गोमन्तक साहित्य सेवक

मंडळ, गोमन्तक मराठी अकादेमी आनी थोड्या प्रमाणांत कला अकादमी आनी संस्थांवरवीं, गोंयांतल्या कांय अतिउत्साही अशा तथाकथित 'मराठी' मंडळीच्या पालवान तितल्याच आतिउत्साही अशा महाराष्ट्रांतल्या कांय मराठी मंडळीन गोंयांत 'मराठी संस्कृती' चो प्रवाह अखंडपणान चालू दवरपाच्या चलयिल्ल्या यत्नांचो बारीकसाणेन अभ्यास करपाक जाय!

एक गजाल मात्त मान्य करचीच पडटली कीं मराठी नाटक स्पर्धा, मराठी भजन स्पर्धा, चित्रकला स्पर्धा, गायन महोत्सव आनीक अशाच जायत्या स्पर्धावांगडा आनी हेर कार्यावळीवांगडाच कोंकणी नाटक सर्त, तियात्र सर्त घेवन नाटक-तियात्र कलाकारांक उत्तेजन दितनाच, लोककलेच्यो विंगड विंगड सर्ती घेवन लोककलेची पोसवण करून लोककलाकारांक उत्तेजन दितनाच लोकवेदाच्या आनी लोकसंस्कृतायेच्या दस्तनाच्या वावरांत भरीव असो वावर करपाचें खर आव्हान कला अकादमीमुखार उबें आसा! फुडले पिळगेक मार्गदर्शक थरपी अशा स्वरुपाचे, सासणाखातीर उरपाचे लोकवेद, लोकसंस्कृतायेचे प्रकल्प ही ह्या आव्हानाक जाप थारूं येता. गोंयांतली कला आनी संस्कृती संचालनालय लेगीत गोंयचे कलेचे आनी संस्कृतायेचे जतनायेखातीर आनी वाडीखातीर वावुरतना जाणटे पिरोयेच्या कलाकाराक दर म्हयन्याक मानधन दिवन तांचो भौमान करता, दर वर्सा कांय जणट्या विशेश गुणवंत कलाकारांक राज्य संस्कृतिक पुरस्कार भेटोवन तांकां राजमान्यता फावो करून दिता, लोककलेकडेन संबंदीत कलांक उत्तेजन दिवपाखातीर लोककलेच्या पंगडांची आदान-प्रदान येवजण चालीक लायता, कला अकादमी जशी आपल्या कांय येवजणांखातीर अस्तंत विभगीय क्षेत्राची मजत घेता, तसोच पालव कला आनी संस्कृती संचालनालय लेगीत घेता, लोककलेकडेन संबंदीत विशयांवेलीं पुस्तकां उजवाडा हाडून त्या विशयावांगडाच लोककलेक उत्तेजन दिता आनी अशोच जायत्यो कार्यावळी चालीक लायता तरी लोककलेचें आनी विशेश करून लोकसंस्कृतीचें जतन कपराचे प्रकल्प व्हडा आशेन कला आनी संस्कृती संचलनालयाकडेन पळयतात म्हळ्यार अतिताय जावची ना! कोंकणी अकादेमीमुखार तर हे नदरेन चड व्हड आव्हान उबें आसा म्हणपाक जाय! ना म्हणपाक हे अकादेमीकडेन लोकवेदाचे दस्तन-वाडीखातीर खास असो एक लोकवेद विभाग आसा आनी ह्या विभागाच्या पालवान तंत्रज्ञांवरवीं गोंयच्या परब-उत्सवांचें, जात्रा-फेस्तांचे दृक्-श्राव्य स्वरुपाचें ध्वनीमुद्रण करून घेवन ह्या विशयावेलीं पुस्तकां नेमान उजवाडावपाची येवजण चालीक लायल्या. हे येवजणे सकयल लोकवेद

विभागाचीं संशोधन सहाय्यक जयंती नायक हांची संकलन स्वरुपाची आनी अभ्यासपूर्ण अशीं आतांमेरेन उजवाडा आयिल्लीं पुस्तकां, तेचपरी प्रा. शाम वेरेंकार, श्री चंद्रकांत केणी हांचीं पुस्तकां गोंयच्या लोकवेदाचेर आनी लोकसंस्कृतीचेर 'थोडोभोव' उजवाड घालतात. कोंकणी अकादेमीन संकलीत केल्ली पुराय म्हायती पुस्तक रुपान उजवाडा आयले उपरांतच 'थोडोभोव' च्या जाग्यार 'चडसो' उतर घालप शक्य जावंयेता. गोंयचे लोकसंस्कृतीचेर उजवाड घालपाचो वावर गोंयचें म्हायती आनी प्रसिद्धी संचालनालय तेचपरी गोंयचें पर्यटन संचालाना करता. मात्त, कांय वेळार हीं संचालनालयां 'सुप्रसिद्धी' च्या बदला गोंयची 'कुप्रसिद्धी' करतात म्हण जाग्रुत गोंयकार बोवाळ घालतात. कार्नवाल आनी दर्यादिगेवेली संस्कृती ही गोंयची संस्कृताय म्हूण भासोवन भायल्या पर्यटकांक हांयस दाखोवपाचे ह्या खात्यांचे 'धंदे' आनी ताचेआड त्या त्या वेळार कांय जाग्रुत गोंयकारांनी उठयिल्लो आवाज ह्यो ताच्यो देखी!

तशी गोंयचे भाशेची संस्कृती वा संस्कृतीची भास 'येयात, बसात' ह्या श्री गणेशान सुरू जाता. आदल्या तेंपार त्या मोगाळ येवकाराच्या उतरां फाटोफाट गोड पाणी (उदक) येतालें, आतां कांय कडेन साखर, पाणी येता जाल्यार कांय कडेन कोल्ड. आदीं गोड पाण्या उपरांत 'उदक तांपूंक दवरलां' वा 'च्याये दवरलां, च्या घेवन वचात'. अशीं 'कडक चाय' वालीं स्पूर्तदेणीं उतरां आयकूंक येतालीं. आयजूय खंयच्याय गोंयकारागेर गेल्यार च्याबगर कोणाचीच सुटका वाट नासता.

हांगा पू. साने गुरूजींनी केल्ली संस्कृतीची व्याख्या याद जाता. संस्कृती म्हळ्यार कितें तें सांगताना तांणी बरोवन दवरलां- 'भूक लागली आसताना खाणे ही प्रकृति, भूक लागली नसतना खाणे ही विकृति आणि भूक लागली असतानाही दुसऱ्याला देणे ही संस्कृति'. 'आप राखून धर्म करप' अशे गोंयकारांचे येवकारवृत्तीक लागू पडपासारकीच ही व्याख्या.

आतां हे येवकारवृत्तीक भरभक्कम सांगात दिवपाक गोंयचो सैम लेगीत सदांच सज्ज आसता. सदांकाळ पाचवोचार असो सिद्धनाथ, चंद्रनाथ धरून गोंयचो देंगर देगणांचो सैम, मांडवी-जुवारी धरून गोंयच्या अख्ख्या न्हंया-व्हाळांची संथताय, प्रवाहीपण, अरबी समुद्राची विशाळकाय आनी खोलाय व्हड काळजान नदरेसामकार हाडपी गोंयच्या 130 कि. मी. लांबायेच्या दर्याचो सुखदिणो येवकार गाज, गोंयचे मुक्तुतायेच्या इतिहासाची गवाय दियत अभिमानान हड्डें मुखार काडून उबे

राविल्ले आगवाद, तेरेखोलचे कोट, दुदाचे घोगे ओतयत येतल्या-वतल्या पर्यटकांचें लक्ष ओडपी आनी तांचे नदरेक सुखदिणो संतोश दिवपी दूदसागर, हरवळेंच्या घोग्यान वाजपी-गाजपी गोंयच्या आनी गोंयाभायल्याय भाविकांचें तीर्थक्षेत्र हरवळें, मयें (दिवचल) चें सोबीत सुंदर तळें, गोंयचे संस्कृतायेचें दायज मिरोवपी आनी तातूंत नवी नवी भर घालपी  गार्डन, म्युझियमां आनी आर्ट गॅलरी आदी गजालींच्यो कितल्यो म्हूण देखी दिवच्यो? अर्थांत, कळंगूट, कोलवा धरून मिरामार, दोनापावल धरून हणजूण, वागातोर ते माजोड्डें, लीला बीच, पाळोळें मेरेनच्यो दर्यादेगो, गोंयच्या मंगेशी म्हाड्डोळसारक्या देवळांवांगडाच ओल्ड गोवाचे बाँ जेजससची बाझिलिका, से कॅथेड्रेल धरून दुसऱ्यो पिलार सेमिनारी, राशोल सेमिनारी, साळगांव सेमिनारी आनी थंयच्यो इगर्जी, पणजे शारांतली अवर लेडी ऑफ इमाक्युलेट कंसेप्शन चर्च धरून गोंयच्या दर एका तालुक्यांतल्यो इगर्जी, गोंयचीं कपेलां, आग्नेल आश्रम, फोंड्यांतली साफा मशीद, पणजेंतली जामा मशीद, वास्कोंतली मदिना मशीद, दिवचलचें नमाजघर आनी तालुक्या-तालुक्यांतलीं दुसरीं नमाजघरां (मशिदी), वास्कोंतली गुरूद्वार सिंग सभा, बेतींतलें (बारदेश) गुरुद्वार आदी धर्मीक सुवातींचो आसपाव हातूंत जाताच. गोंयचे सैम-सोबितकायेचें दर्शन घेतनाच मोलेंचें भगवान महावीर अभयारण्य, बोंडलाचें अभयारण्य आनी खेतीगांव-काणकोणचें अभयारण्य पळोवपाची संद पर्यटकांक मेळटाच आनी विशेश म्हळ्यार गोंय पळोवपाक आयिल्ल्या सगल्या पर्यटकांखातीर पर्यटर उद्देगाचें एक अविभाज्य आंग म्हूण गोंयांत साद्या हॉटेलांक धरून शारांत आनी दर्येदेगांनी जीं नानाविध हॉडेलां, तारांकीत हॉटेलां दिशींमाशीं वाडत चल्लयांत तांकां गोंयचे संस्कतीपसून वेगळें कशें काडूं येयत? दर्यादेगांवेल्या शेक्सांचें पर्यटन-हंगामावेळावेलें आकांतान पातळत चलिल्लें जाळ आनी ह्या पर्यटनाच्या घुडाचो बार ‘बार देखो, हजार बार देखो’ अतितायेन म्हणपाचें जाल्यार ‘एक  घर, एक बार’ असो कळस तर नदरेआड करूंकूच नजो. कारण, एका तेंपार काजू-फोगांचो रोस काडप ‘भश्ट’ मानपी समाज आयज काजू-फोगांचो रोस तर काडटाच, वांगडाच शक्य जाल्यार हज्जारांनी दुडू फारीक करून  खोन्न (भाटी) पावयता (पावणी घेता) इतलेंच न्हय तर कांय जण स्वता भाटी घडोवन सोरोय काडटात. अर्थात, खूब आदींसावन मिनावांगडाच भरपूर कर दिवपी, उत्पन्न  दिवपी गोंयचो धंदो म्हूण सोऱ्याचो धंदो चलत आयिल्ल्यान त्या धंद्याची परंपरा ‘धंदो’ म्हूण कोणेंय चलोवपाक कोणाची हरकत आसपाक रजांव आसाशें दिसना. जाल्यारूय आतां दिशींदिशीं

नवो नवो तरणाटो आरंबाक मजा म्हूण काजार, बर्थडे पार्टीच्या निमतान 'ड्रिंक' ह्या सोबीत नांवाखाल सोऱ्याची 'टेस्ट' घेता आनी उपरांत पुरायेन ताचे भकीक पडटा. गोंयच्या दर्यविळांनी आनी आतां शारांनीय पातळत चलिल्लें ड्रग्साचें वेसन हीवूय एक गोंयची स्टायल म्हाणटां म्हणटां संस्कृताय जावची ना मूं अशी भिरांत दिसपा इतलें वेसन हालींसरा गोंयांत पान-सुपारीच्या, मावा, मधू, गुटखा आदी नाना तरांच्या श्रीगणेशान सुरू जालां, वाडत चल्लां.

अर्थात फकत 3,813 चौखण किलोमिटरांच्या आकाराचें सोबीत सुंदर धाकटुलें अशें भारत देशांतलें गोंय नांवाचें हें पंचविसावें राज्य कोणेंय कितलेंय 'उदेंतेकडेलें रोम' म्हूण गायलें, तरी पूर्वी पश्चिम संस्कृतायेचो संगम जावनूय तें आयजमेरेन तरी गोंयच उरलां. पुर्तुगेजा तेंपार सावन दक्षिण मध्य रेल्वेचो भरपूर अणभव घेतलिल्ल्या गोंयांत आतां कोंकण रेल्वे धांवपाक लागल्या आनी ताचेसंबंदान समाजामदीं विंगड विंगड प्रतिक्रिया आसात. जाल्यारूय कोंकणा रेल्वे ही गोंयकारांखातीर वरदान थरलेबगर रावची ना आनी तिचो खेरीत अणभव लेगीत गोंयची संस्कृताय कांय न्हय करून पचयतली, अशें दिसता. मुरगांव बंदराक लागून उद्योगधद्यांच्या संबंदातले विंगड विंगड अणभव घेतिल्ल्या आनी पचयिल्ल्या तेचपरी दाबोळी (वास्को) विमानतळाक लागून देश-विदेशांतूय पर्यटनाचें आनी बऱ्या उंचेल्या संबंदांचे नातें प्रस्थापीत केल्ल्या गोंयकारांच्या हातांतल्यान आयज गोंय सुट्टा अशें आयचें गोंयचें धंद्याचें गणित पळयल्यार जरी दिसता जालें तरी हरेक मळाचेरे गोंयचें म्हूण खाशेलें धोरण थारावन जाता तितले बेगीन ते दिकेन पावलां मारपाची मोख गोंयच्या सरकारान पर्यायान गोंयकारांनी दवरली जाल्यार अजुनूय फाकीवंत साहित्यीक बाकीबाब बोरकारांनी गायिल्ल्या

*'माझ्या गोव्याच्या भूमीत*
*येते चांदणे माहेरा*
*ओलावल्या लोचनांनी*
*माझ्या गोव्याच्या भूमीत*
*सागरात खेळे चांदी*
*आतिथ्याची, अगत्याची*
*साऱ्या षड्रसांची नांदी',*

अशा गोंयची सासाय पर्थून एक फावट जागी जालेबगर रावचीच ना. मात्त

ते खातीर 'मार शेंसार, येतलो भ़ार', म्हूण वाट पळोवचीच पडटली. मागीर भौ. मनोहारबाबांचे 'आयज धोलार पडली बडी' कवितेचें नांव मंत्र जातलें. भौ. उदयबाबांचें 'चान्नयाचे राती' गीत लोकगीत जातलें; भौ. चाफ्रा बाबाचें 'कोंबले वाबांनो साद रे घाला, आमगेर आज बाबू जाला' कवीत बालगीत जातलें, भौ. पुंडलीक बाबांचें ''शबै शबै भौजनसमाज' धरून 'श्रीविचित्राची जात्रा' मेरेनचें नाटक क्रांतीचो 'बांगर-बैल' जातलें, भौ. रमेशबाबांची 'सावुलगोरी' संस्कृतायेच्या माटवांत लख्ख बरी सोबून दिसतली. भौ. महाबळेश्वरबाबांची 'काळी गंगा' कोंकणीचें कोंकणपण प्रवाहीत करपाक पावतली! आतां, ह्यो कांय वेंचीक देखी.

कोंकणीचे आद्यपुरुश शेणै गोंयबाबांच्या उतरांनी सांगपाचें जाल्यार-

गोड म्हजें गोंय! सुंदर म्हजें गोंय!
पुर्विल्लें नामनेचें, चड मोठ्या भाग्याचें,
ऊंच माथें, कोंकणाचें, हें म्हजें गोंय!

............................

उजळ संस्कृतायेचें, खरेल्या कुळवंतांचें,
उदार मनाच्या लोकांचें, पाटांगड्या विद्वानांचें
बळिष्ट झुजप्यांचें, बुदवंत राजकणर्यांचें
वावराड्या कामवंटांचें, कर्तुत्वी मनशांचें
हें म्हजें गोंय!

............................

(भुरग्यांलो इश्ट 1935)

*********

# कोंकणी नाटकांचो मेस्त्री

--ऐड्डी सिकेर

(कृपा 'जिवीत' २५ ऑक्टोबर १९८४)

कोंक्णी नाटकांचें चरित्रेंत गेलेत्या सुमार पन्नास वर्सांनी पन्नासां वय्र नाटक बरवपी जाल्यात. त्या पय्की चडच्च बरव्वी पावसांतल्या काजुल्यांबरी घडिये मिणमिणोन दुसऱ्यान नपंय्च जाल्यात. थोडे ग्यास लाय्टाबरी थोडे पावटीं चड आनी चड पाव्टीं उणो उज्वाड फांकवन उप्रांत फुक्क जाल्यात, तेलनास्तना वा तेल घाल्तेले ना जाल्ल्या वेळार.

आज हाळ्वायेन पळेयलें जाल्यार पन्नासांची प्राय उतरल्लें आम्चें कोंकणी रंगमंच आनी नाटक काळोकांत सास्पातात तशें दिसून येता. मागीर तिक्षाणेन पळेय्लें जाल्यार आमचे मांचियेर आतां खेळचे ते चडताव नाटक दुसर्या भाशेच्या नाटकां संगीं व पंद्रा वर्सां भरोंक नातल्या गोंयच्या कोंक्णी नाटकां संगीं तुकून पळेलें जाल्यार जाणतो जायजे आसल्ले आमचे नाटक दूद चिंवच्या बाळश्यापरीं पोट वोडून रंगमंचार वेचें स्पष्ट दिसून येता. पुण आसा, खरें जांन्ची एक दिशा.

सुमार पंच्वीसं वर्सां आदीं काजुल्या आनी ग्यास लाय्टां मधें सुरयो दिष्टिक पडल्लो.. मधेगात मोडां लिपय्तालीं जाल्यारी आजून अपालिपा प्रकास फांकवन आसा. मूळ कवी, पत्रकर्त, बरव्पी, उलोवपी तशेंच नाटक लिख्पी: मानेस्त चा.फ्रा.दे'कोस्ता.

हो सुरयो कित्याक जालो, तें पय्लें रंगमंचार काळोक कित्याक आय्लो हें हांवें सांगाजे पडटा. त्या वेळार कोंकणी नाटाकांक तीस वर्सां उतरल्लीं जाल्यारयी आम्चो नाटक जल्माताना कसो आसल्लो तसोच्च आस्लो. आतां जाल्यारयी तसोच्च. नाटकाचो उद्देश जांव, नाटकाची बांदावळ जांव हांतुं नवेसांव नातल्लें. लांब कादंबरेपरीं आस्ची काणी, रागाची, मोगाची, खुनिगाराची, सांतांची, चडताव भुर्ग्यापणार आरंभ जांन्ची काणी, ती पात्रां काजर जाता वरेग, पाद्री जाता वरेग व फाशी दिता वरेग व्हाळ्ताली, लांबताली. हाका लागून उण्यार उणे पंद्रा-वीस दृशां, ग्रेस्ताचें घर, शहराचो रस्तो, हळ्ळेचो रस्तो, कोर्ट, जय्ल, गर्जेचें एक गार्डन आनी सांगाताच पदां. कोण मेल्यार, कोणाक मोगाचो रोग लाग्लो जाल्यार गार्डनाच्या बांकां भोंवतीं चार भंवाडे काडून, नाचोन म्हणोंक आनी लोकाकी हासंवचे खातिर इस्कळ इजाराचो, इस्कळ जिबेचो अधिक-प्रसंगी बटलेर.

ह्या नाटकाच्या कथा वस्तूंत जांव, संभाशणांत जांव व तांतूं येंवच्या त्या पात्रांनी जांव विसॅस कितेंच नातल्लेंच. त्या कथा वस्तूंनी खंचायी समस्यां वयर, व्यक्ती वयर, आचरण, पात्येणी असल्या संग्तीं वयर विमर्सो जायनातल्लो. त्या प्रास गर्जेचें पात्रदाराच्या नटनाक सोभाय हाडचें, मोल दिंव्चें, सभाव चित्रण व पात्र पिंत्रावणी (characterization) नातल्लेंच.

असली प्रगती नातल्लें, सांगल्लेंच सांग्चे नाटक पळेवन प्रेक्षक उबगाल्लो. शिकप चडल्लेपरीं मनश्याची अभिरूच चडता. बरें मनोंरंजन मात्र न्हय बगार नाटकांनी समाजिचें विश्लेषण आय्कोंक, त्या विशयांनी चिंतूंक प्रेक्षक आपेक्षीता. पुण असल्या विषयांयानीं नवे नवे प्रयोग करच्या बदलाक लोकाक दाधोस कर्चे खातिर नाटका मदें  संबंदनातल्लीं पदां, प्रख्यात गावप्यांथावन गांव्क लावून नाटकाच्या प्रामुख्यतेक कुशिक मार्ले. हें नवेसांव थोडो तेंप चल्लें. पुण संगीताचेर आकरशण चडल्ल्यान पदां गायतेल्यांनी तांचिंच पदांचीं कार्याक्रमां मांडून हाडटाना नाटक लिपलो. अशें पदां आनी संगीत हांची उदरगत जाताना नाटकांचीं अवनत सुरु जाली म्हण्येत.  ह्याच वेळार, सबार दृशां नातल्ले, एकांक, सुडसुडित जीव जिवेच पात्रांचे प्रदर्शन दाकंव्चें सुळसुळ्या संभाशणांन प्रेक्षकांचें चिंतप जागें कर्चे नाटक घेवन रंगमंचियेची सोडवण करुंक उदेलो (दे) मानेस्त चार्ल्स फ्रानसीस डि'कोस्ता या चाफ्रा.

कन्नडाचो दो। शिवराम कारंत, प्रसिद्द बरवपी, चिंतपी तशें विमरशक म्हणता. जर आमच्या साहित्यांत, संगीतांत, नाटकांत व कलेच्या हेर प्रकारांनी आमी आसचे समाजिचें, तिच्या समसयांचें, आचार विचारांचें व वेक्तिचें रूप दाकयनांव व ताचें विश्लेशण करिनांव त्या वॅरेग आमी बरव्पी कलाकार जावन आम्चें करतव्य करिनांव आनी आम्कांच बरे कलाकार म्हणोंक सकानांव.

शेक्सपियेराच्या नाटकांचे विमर्शक अशें म्हणतात–ताचे नाटक त्या काळाचे आर्से. हाच्या नाटकांनी येंव्चे पात्र विशिस्ट सभावाचे, तशें ताणे वापरल्ली भास साहिताचो अलंकार.

बरनार्ड शो, आनयेक प्रसिद्द नाटककार तशें विमर्शक म्हणता – जर नाटकांत संघरशण ना, थंय नाटक ना.

असल्या मौलिक विचारां विशीं आम्चो लेखक चिंतूंक गेलो ना.. चिंतची गरज ताका दिस्ली ना कित्याक आमचे समाजेंत कशें बरयल्यारी तें साहित्य जाता, कशें बोबाटल्यारयी, नाचल्यारी तो नाटक जाता. आमी बांयतले माण्के. भायल्यान कितें सर्व जाता, नाटकांनी कसली प्रगती जाल्या

हें सर्व आमच्या गमनाक वचाना.

पुण एका लेखकान पुणी वेग्ळें चिंताप केलें. चा.फ्रा.न पय्लो नाटक बरय्लो आपल्या वीस वर्सांचे प्रायेरः 'आंक्वार मेस्त्री'. मंग्ळुरांतच आस्लेल्यान हांगासर पळेयल्ल्या नाटकांच्या अनुभवान तो नाटक नोव दृशांनी ताणे मांडल्लो. दुस्र्याच वर्सा तो आपल्या फुडाराची वाट धरुन बोंबय गेलो. आनी थंय्सर सबार तेंप खालिच बेकार आस्लेल्यान ताणे आपल्या साहित्याच्या ज्नानाची तान गृंथालयांतलीं पुस्तकां वाचून थांबवन पळेताना त्या गृंथालयांनी आसल्ले सर्व इंग्लेज भाशेचे नाटकांचे बूक, सांगाताच फ्रेंच, रशियन इत्यादि भासांचे इंग्लेजान तर्जण जाल्ले बूक सर्व वाचून काडले. अशें नाटक म्हळ्यार कितें, ताची लांबाय रुंदाय कशी, ह्या सर्वांचें स्पश्ट चित्रण मेळ्ळ्या उप्रांत 'आंक्वार मेस्त्री' नाटक एकाच दृशाचो, तीन भागांचो जावन परिवर्तन जालो.

हो गंबीर नाटक, अप्रतिम पात्र चित्रण, मतीक दाग दिंव्चे तसलें संभाषण आमच्या सदांच्या जीवनांत येंवच्या एका समस्या वय्र, ताच्या दोनयी कुशीं वय्र तर्क, घर्शण, व्हय – सताचेर एक्स–रे दीष्ट घालच्या ह्या नाटकांत सतच देव, सता शिवाय मनीस जिवित वेर्थ म्हण बोबाटचो मेस्त्रिचो रुपाळ, जिवाळ पात्र खंचायी नटाचे जिणियेंत असलो पात्र खेळोंक मेळचें एक भाग. नाटक पळेवन पाटीं वेताना प्रेक्षक चिंतूंक पडटा. मनश्याक सत गर्ज? व हेर कोण म्हणात, नाटकांतल्या एका पात्रान सांग्चेपरिं 'सत दळ्बाराची म्हणांय, गिरेस्तांची आस्त, म्हज्या मांय–बाबाक मर्यादिची वोंक लागल्लेवेळीं उप्कारचें तस्त'.

ह्या नाटका उप्रांत आय्लो 'सोभित संसार.' पय्लो नाटक हिंदू कोंकण्याच्या कोंक्णी साहित समितिन आपल्या फेस्टिवलाक विंचल्लो. मराठी साहिती प.के.अत्रेन आपल्या "मराठा" पत्रांत देड कोलमाचो विमर्सो दिल्लो पयिल्लो नाटक. १,५०० प्रदर्शनां जाल्ल्या मराठी 'दुरितांचे तिमिर जावो' नाटकाक सरी केल्लो नाटक.

उप्रांत आय्लो आनयेक श्रेष्ट नाटक 'भांगार मनीस', फकत चारच पात्रांनी विणल्लो. अडेज घंट्यांचे आव्देक प्रेक्षकांक कुडीक आनी मतीक थर्थारांवचो तरी मोवाळ नाटक. नाटक स्परध्यांत चारयी पात्रांनी प्रथम चार स्थान जोडले म्हणताना हांत्लें पात्र चित्रण कितल्या ऊंच वर्गाचें म्हण परत सांग्ची गर्ज दिसना.

पाटापाट नाटकांचो व्हाळो – सां। क्रिस्तोफराची जिणी पिंत्रायिल्लो

'पयणार्यांचो मित्र, हास्याचें तुफान उटंवचो 'जोर्जि बुतेल'; माट-मंत्रांक कांतून काडल्लो 'बोक्लाक सात जीव'; सपणांतल्या संसाराक वरचो 'सुणें माजर हास्ता'; सां। जुजेक आदुनिक काळाक वोडचो 'जुजे दयाळ'; मोगाक मुककोन खांञ्चो 'मागिरचें मागिर'; फिर्गजेंतल्या जिणियेक तुक्लांञ्चो 'तर्नें तर्नें मोर्नें'; पयश्यांच्या मोगाचें आबलेसपण उटवन दाकंवचो 'हांडो उटला'; एक्सुऱ्याची जिणी पिंत्रांञ्चो 'बोंचो बंद'; न्हाणियेंत गेल्ल्या कुवाळ्याचो तमासो 'कुवाळ्याची वाल' आनी हेर.

असले मौलिक, कोंक्णी नाटकांकच अलंकार जांञ्चे नाटक बरयिल्लो चा.फ्रा. बरो बरवपी मात्र न्हय बगार दुस्र्यांनियी असले व ताच्याकी बरे आनिकी प्रगतेक पावल्ले नाटक लिखिजे, खेळय्जे म्हण आशेंवचो नाटकांचो मेस्त्री.

पाटल्या चारच वर्सांच्या ताच्या सांगाताच्या म्हज्या अनुभवान सांग्चें तर, ह्या मेस्त्रीथावन, ताच्या नाटकां थावन म्हाका जाय्तें शिकोंक मेळ्ळां. ताच्या नाटकांनी अभिनयन कर्तास्ताना व त्या नाटकांक दिग्दर्शन दिताना आम्चे मधें घंटयांचे घंटे तर्क चल्लां, विचार अदली-बदली जाल्यात, ताच्या नाटकांविशीं हेर भासांच्या नाटकां विशीं. अशें कोंक्णिच्या मट्टाक परिपूर्ण नाटक रंगमांचियेर हाडूंक हांव सक्लां.

म्हज्या बराबर आमच्या नाटकांक एक बरो फुडार आशेंवचे आनिकी दॉग-तॅग नवीकरण, प्रगती आशेंवचे बरवपी उदेल्यात. पुण हे थोडे पावानांत. कोंकणी नाटक राश्ट्रीय मट्टाक येजे तर आनिकी चड जण उद्देशाभरित, तर्काभरित नाटक बरवपी, नाटकिस्त उदेजे. नवें नवें आशेंञ्चो बरें आशेंवचो प्रेक्षक हें आशेता म्हणच्यांत दुबाव ना. चा.फ्रा.-च्या नाटकांक येंवचो लोका संखो, पाटल्या वर्सांनी ताच्या नाटकांक स्पर्ध्यांत मेळल्लीं बहुमानां हें रुजू कर्ता.

असले नाटक बरञ आनी खेळंव्क तर्भेती जाय तें वास्तवीक. तर्बेती दीव्क असलो मेस्त्री आसा पुण मेस्त्री मात्र पावाना. ताचे नाटक मात पावनांत; एक गृंथालय, सर्व भासांच्या नाटकांच्या बुकांची, त्या नाटकाक संबंध जाल्ल्या बुकांची, नाटकाची ध्वनी तशेंच वीडियो केसेटिंची गरज आसा.

*********

# छाप्याची चरित्रा

–वी. सिक्वेरा, बरोडा

("मांयगांव" – १ सपटेंबर १९८२ अंक्याचे कृपेन. हें नेमाळें आतां चलावणेंत ना)

छापो (प्रिंटिंग प्रेस्स) सोधून काडल्ली कीर्त चीनाक लाबता म्हणतात. चिनकारांनी क्री.श.८६८ इसवेंत पयिल्लें पुसतक छापल्लें आनी त्याच वेळार पिपिंग थावन प्रगट जाल्लें 'चायनीस कोर्ट गजेट' संसारांत्लें प्रथम पत्र अशें चरित्रेगार म्हणतात. चीना थावन, भौवशा आर्ब्यां मुखांत्र युरोपाक छाप्याची वळक जाली म्हणतात तरी ताका फावोती रुज्वात ना. कित्याक, पाश्च्यात देशांनी छापो देकल्लो पंद्राव्या शतमानांत आनी स्वतंत्र रितीन म्हळ्ळो वाद आसा.

जर्मनिंतल्या म्शेन्ज शहरांतल्या जोवान गुटेनबर्ग म्हळ्ळया एका सोनारान (गोल्ड स्मित) छाप्याचें संशोदन केलें आनी छापूंक जाय जाल्ली शायी (इंक) ताणेंच सोदून काडली. उप्रांत १४५६ इस्वेंत ताणे ३०० बायबल छाप्ले आनी छाप्याचे चरित्रेंत तो अमर जालो.

अशें एरोपांत छाप्याचें शोधन जातेच इटेलिंतल्या वेनिस छाप्याचें एक प्रमुख केंद्र जालें.

वेस्ट मिनिस्टर (इंग्लंड) हांगासर विलियम केकेसतण म्हळ्ळयान पय्लो छापखानो उघडलो. केकेस्टन इटेलिच्या कोलोन शहरांत छाप्याचें काम शिकल्लो. सुर्वेर लात्या भाषेंत चलोन आसल्लो छापो आतां इंग्लिषांत घुंवोंक लाग्लो. वर्सां पाटल्यान वर्सां पाशार जाताना युरोपंतल्या व्हड–व्हड वेपार केंद्रांनी प्रिंटिंग प्रेस्सां उभीं जालीं

वर्तमान पत्रांचो जल्मः

सोळाव्या शतमानाच्या मद्धात आव्देंत येरोपांत वर्तमान पत्रांनी जल्म घेत्लो. सुर्वेर वेपार–वयवाट केंद्रांनी वर्तमान पुसतक (न्यूस बुक्स) आनी उप्रांत वर्तमान पत्रां (न्यूस पेपर्स) प्रगट जालीं. क्रमेण १५६० इस्वेंत जर्मनिच्या शहरांनी आनी स्विजर्लेंडांत क्रमिक आंक्ड्यांची (क्रमानुसार) पत्रां परगट जालीं. जर्मनी थावन १६०९ इस्वेंत चार पानांचें "आविसा",

आनी 'स्ट्रोबर्ग' थावन 'रिवॅशन्स' अशें दोन वर्तमान पत्रां सराग प्रगट जालीं. सरिसुमार १६१८ इस्वेंत होल्लेंडांतल्या आम्स्ट्डाम शहराथाव्न इंग्लिष, फ्रेंच, डच आनी जरमन भासांनी हफताळीं पत्रां प्रगट जालीं.

उप्रांत १६२१ इस्वेंत इंग्लिष प्रेस्सांनी इंग्लेंडांत 'कोररिटो' म्हळ्ळें पत्र सुरु केलें आनी १६६० इस्वेंत इंग्लेण्डांत हेर हफताळीं पत्रां प्रगट जांव्क सुरु जालीं. 'लंडन गजेट' म्हळ्ळें सुर्विलें. 'ओक्सफर्ड गजेट प्रगट जाल्लें १६६५ इस्वेंत. हें पत्र हफत्यांत दोन पावटीं प्रगट जातालें.

खंचायी संग्तिन खंचायी आधुनिक पत्राक सहजल्लें जावन आसल्लें 'दी डेय्ली करेंट' हाची सुरुवात जाल्ली अट्राव्या शतमानाचे सुर्वेर (१७०२) आनी त्या वर्सा थावन आधुनिक पत्रां जलमोनंच आसात.

संयुक्त अमेरिकाक पावल्ल्या बेंजामिन ह्यार्रिस नांवांच्या ब्रिटिष पत्रकारान १६९० इस्वेंत 'पब्लिक अंकंन्सास बोत फोरैन ऍंड डोमेस्टिक' म्हळ्ळें पत्र काडलें. हें अमेरिकाचें प्रथम पत्र. केंबल नांवांच्या एका अमेरिकनान 'भोश्टन न्यूस लेटर' म्हळ्ळें पत्र १७०४ इस्वेंत सुरु केलें. 'पेन्सिल्वानिया' संयुक्त अमेरिकाचें प्रथम दिसाळें पत्र. रशियांत १७०३ इस्वेंत पयिल्लें पर्तमान पत्र प्रगट जाल्लें.

भारतांत छापो आनी पत्रां:

भारताक १५५० इस्वेंत जेज्वित मिशियोनरिंनी छापो हाडल्लो. तरी हांगासर धार्मीक लिखितां आनी पुस्तकां मात्र पोर्चुगीस, तमिळ, मलेयाळम आनी कोंक्णी भासांनी छापतालीं. मोघल रांयांच्या काळार देशांत थोडीं पत्रां झळकातालीं खंय. पुण सार्वजनिक पत्रां भारातांत आसा केल्ली कीर्त ब्रिटिषांक फावो जाता.

ईष्टिंडिया कंपेनी थावन निवृत जाल्ले व राजी दीवन भाग्र आयिल्ले वेक्ती इंग्लेंडांत प्रगट जांवच्या पत्रांपरीं हांगासरयी पत्रां प्रगट करुंक आशेले आनी वावुर्ले. तसल्या थोड्यां पयकी विलियम बोल्ट म्हळ्ळया निवृत वेक्तिन कल्कतांत १७७६ इस्वेंत एक पत्र काडूंक म्हिनत घेतली. तरी सर्कारान ताका पर्वणगी इनकार केल्ल्यान ताची म्हिनत तितल्यार संप्ली पुण, तेरा वर्सां उप्रांत कल्कतांत सन्वारा जनेर २९, १७८० इस्वेंत 'बेंगाल गझेट' म्हळ्ळया बारा इंचां लांबायेच्या, दोन पानांच्या, तीन वोळिंच्या हफताळ्या पत्रान जल्म घेतलो!

भारतांत हें प्रथम पत्र काडल्ली कीर्त जेम्स अगोस्टस हिकी म्हळ्ळ्या इंग्लिष वेक्तिक फावो जाता. जिणियेंत सबार पावटीं सल्वणी चाकल्ल्या, ईष्ट इंडिया कंपेनिच्या सर्कारी अधिकारी लागीं झगडल्ल्या, मोटव्या, अशिक्पी, गर्वी आनी रागिष्ट हिकी साय्बाची जीवन चरित्रा कुतूहलभरित तशें बिर्मतेची जावन आसा. त्या काळाच्या सर्कारी अधिकारिंनी हिकीक बरेंच धोस्लें. तीन वर्सांचे आवदे भितर ताचें पत्र 'जिवेशीं मारुन' हिकीक ताच्या देशाक (इंग्लेंडाक) पाटीं धांवडाय्लो. त्या उप्रांत हिकीन थंयसर आप्लें जीवन कशें सार्लें आनी संपय्लें म्हण चरित्रा सांगाना तरी, हिकीन ताच्या हरयेका कार्‍यांत सल्वणी आपणावन, निरास जावन संसाराक आदेव्स माग्लो म्हणतात.

हिकीन संसार सांडून दोन शतमानां उतर्तात तरी तो भारतांत पत्रगारिकेच्या चरित्रेंत अमर जाला. आज भारतांत चडावत हरयेका पत्राचो संपादक हिकीक वळ्काता. आनी, एकाच उत्रान सांग्चें तर, हिकी पत्रगारांक मोगाचो जावन आसा. हिकीच्या साहसा वर्वीं हांगासर भारतांत दोन विषेस संग्ती घडल्यो. पयल्यान, भारताक पत्रगारिकेची वळक जाली आनी छाप्याचो महत्व समजालो. दुसर्‍यान हिकी तसल्या हेर साहसी वेक्तिंनी पत्रगारिकेंत आसक्त दाकय्ली. परिणाम जावन १७८४ इस्वेंत 'कलकट्टा गजेट' उदेलें. त्या उप्रांतल्या दुसर्‍या वर्सा रिचर्ड जोन्सान 'मेड्रास कोरियर' प्रगट केलें. बोंबय थावन प्रगट जाल्लें प्रथम पत्र 'बोंबे हेराल्ड' (१७८९). हिकीन प्रगट केल्ल्या धा वर्सांनी भारतांत १५ वर्तमान पत्रां उदेलीं.

आज भारतांत शतमाना वयर आवदी संपयिल्ल्या पत्रांचो दाक्लो दिंवचो तर, 'बोंबे समाचार' (१८२०) म्हळ्ळें बोंबयंत्ले दिसाळें आनी इंग्लिष दयनिक जावन आसात. 'दी टायमस ऑफ इंडिया' (१८३२), कलकत्तांचें 'अमृत बजार पत्रिका' (१८६८), लक्नोंत्लें 'पायोनियर' (१८३२) आनी हेर. मद्रासांत्लें 'दी हिंदू' म्हळ्ळें प्रख्यात इंग्लिष पत्रयी शेंबर वर्सां वयर थावन जीवंत आनी बळिष्ट आसा.

सुर्विल्या काळार आतांचेपरी कोणायकी कितेंयी छापूंक हक्क नातल्लें. छापो परिपूर्ण रितिर सर्काराच्या आनी इगर्जिंच्या नैयंत्रणाखाल चल्तालो. दुसर्‍ये रितिर सांग्चें तर, छापो स्वतंत्र म्हळ्यार कितें म्हण नेणासलो. अट्राव्या आनी एक्णीसाव्या शतमानांत भारतांत तरी हिच्च परिगत आसल्ली. छाप्याचे कायदे नातल्ले. पत्रांनी छापल्लें अधिकारिंक कोडू लागल्यार ते

अधिकारी पत्रकारांची नीत करुन तांकां शिक्षा दिताले. एकेक पावटीं पत्रां बंद केल्लिंयी आसात. चडावत जावन पत्र छापच्या पयलें छापूंक येव्जिल्ले विषय अधिकारिंक कळंच्चें पट्टालें.

ब्रिटिषांनी हांगासर पत्रां सुरु केल्लीं जाल्ल्यान अधिकारिंनी तांकां ताळ पडानातल्या संपादकांक इंग्लेंडाक पाटीं वेचें जातालें. त्या शिवाय पत्रांनी छापचे चडशे विषय हांगासर आसच्या इंग्लिषांक आसक्त आस्चे चालू विशय जावन आसल्ले, देकीक, पार्लिमेंट रिपोर्ट, आर्मी रिपोर्ट आनी खब्रो. इंग्लेंडांत जांवची वैज्ञानिक आनी कैगारिकेची प्रगती पत्रांनी छापताली. थोड्या पावटीं विदेशी (ल्याटिन अमेरिका, युरोप आनी चीना). वाचप्यांचीं पत्रां, सामाजिक जाग्रातां (जनन, लग्न, मरण आनी हेर), फेशनांविशीं लेखना छापून येतालीं. मटव्यान सांग्चें तर, आतांच्यापरीं हरयेका संग्तिंक पत्रांनी अवकास नातल्लो. हाका प्रमुक काराण तवळचो संसार विग्यानिक अभिवृद्देक पावोंक नातल्लो. पत्रकारांक आतांच्यापरीं प्रत्येक तर्भेती मेळानातल्ली.

इत्लेंच न्हय, वर्तमान छापची रीतयीं वेगळिच आसल्ली. एकेक विषय व खबर एकेका वोळिंत वयर थावन सक्ला छापताले. आतांचे रितिंत थोडी बदलावण आनी सुद्राप आटापलां.

एका पत्रांत जेराल रितिन दोन संग्ती आटापून आस्तातः म्हणजे, खब्रो (न्यूस) आनी अभिप्रायो (वीव्स). अभिप्राय मुख्य जावन संपादकीय लिखितांनी आटापता. संपादकीय लिखितां पत्रांचो आर्सो जावन आसात. एका दैनिक पत्राचें आव्क फकत २४ घंटे तरी तांतूं आटापून आसल्ल्या अभिप्रायें निमत्तीं एक पत्र एका दिसान मरण पावाना.. जाव्येत, खबर बेळशेवन नास जाता; पुण अभिप्राय चड तेंपाक बाळवता–खब्रांपरीं वेगिंच आळवाना. शेक्ड्यार १५ मात्र संपादकीयां वाचतात खंय. पुण आपणाक सहज आसचो व आपणाचेर प्रत्यक्ष व अप्रत्यक्ष रितिन परिणाम हाडची खंचीयी संगत संपादकीय लिखितांत आटापल्यार ती व्यक्ती जरूर संपादकीय लेखन वाचता आनी पत्राची अभिप्राय समजता. ह्या निमत्तीं संपादकीयाचे महत्व कळ्ता.

वर्तामान पत्रां जलमाल्ल्या सुर्वेर खब्रो विंगड आनी अभिप्रायेचीं लिखितां विंगड प्रगट जातालीं. ड्यानियेल डिफो नांवाच्या एका इंग्लिष

व्येक्तिन आपल्या 'दी रेव्यू' म्हळ्ळ्या पत्रार १७०४-ंत प्रथम जावन खब्रो आनी अभिप्राय लिखितां (संपादकीय लॅखनां) एकटावन, म्हणजे आतांचेबरी एकाच्च पत्रार छापून पत्रगारिकेंत नांव जोडलें. तशेंच सुर्विल्या पत्रांनी संपादकीय लिखितां अतांचेबरी एका विंगड पानाचेर छापिनातल्ले. संपादकीयाक विंगड पान अमानत केल्ली कीर्त 'नॉवा वेबस्टार' हाका फावो जाता. आनयेक संगत अशी आसा की त्या काळार संपादकीय एकाच्च व्येक्तीचें आस्तालें आनी तें कॉण बरयता म्हण वाचप्यांक कळित आसल्लें. पुण आतां तशें न्हय: व्हड व्हड पत्रांनी संपादकीय मंडळी आस्ता आनी त्या मंडळेंतले एक्टांय जावन तयार कर्तात संपादकीय.

छाप्याचीं थोडीं हक्कां:

विलियम क्याक्सटन हाणे इंग्लेंडांत छापखानो स्थापन केल्ल्या(१४७६) दोन शतमानां उप्रांत (१६९४) सत्राव्या शतमानाच्या आक्रेक प्रथम जावन अधिकारिंची ओप्पिगी/पर्वण्गी घेनास्तां छापचें हक्क पयलें इंग्लिषांक लाबलें.

छाप्या चरित्रेंत दुस्रें घडित जावन आसा ठिका कर्चें हक्क (राय्ट टु क्रिटिसायज). हें हक्क वेवेगळ्या देशांनी वेवेगळ्या वेळाकाळा प्रकार मेळोन आयलां. हें हक्क आप्णांव्क सबार लोक व्हावुर्ला, कश्टाला आनी त्याग जाला. ठिका करचें हक्क संयुक्त अमेरिकान पऱ्यांत मांदून घेतल्लें गेलेत्या शतमानांत.

आनी तिस्रो मय्ला फातर जावन आसा भात्मी हक्क-दी राय्ट टु रिपोर्ट. हें हक्क खंचायी देशांत आज पर्यांत संपूर्ण स्थापित जांवक ना. देकीक, पार्लिमेंटांतल्यो थोड्यो संगती, न्यायालयांतले थोडे विषय आसा तसे पत्रांनी छापूंक पत्रकारांक पर्वण्गी ना. देशांत्लीं सबार कायदे-कानूनां हाका आड येतात. पार्लिमेंटांतले विषय छापूंक इंग्लेंडांत १७७१ पर्यांत पर्वण्गी नातल्ली. अमेरिकाच्या पार्लिमेंटांत म्हणजे 'हौज ओफ रेप्रेसेनंटेटीव्स' ह्या आडळित विभागान १७८९ पर्यांत भातमीदारांक दार उग्तें करुंक ना. आनी सेनेटान भातमीदारांक स्वागत दिल्लो १७९५ इस्वेंत.

वेग्यानिक आनी कैगारिक अभिवृद्दे निमत्तीं आज संसारार वर्तमान पत्रां एळगेच्या तुदियेक पावल्यांत. संसारा भंवती घडच्यो सर्व संगती रेडियो

आनी टेलेविजना वर्वी कळित जातात तरी आय्कोवप्यांक आनी वाचप्यांक जाय्तें फरक आसल्लेवर्वी दीस पाशार जातां जातां पत्रांचें महत्व चडोनंच येता शिवाय उणें जायना. आशिया, आफ्रिका आनी दक्षीण अमेरिकाच्या राश्ट्रांनी नवीं नवीं पत्रां जल्म घेतें आसात. भारतांतच पाटल्या पंचवीस वर्सांनी शेंबरां वय्र नवीं पत्रां जल्माल्यांत आनी जलमोनंच आसात. एका हिस्पा प्रकार आज संसारार २० हजार दैनिक पत्रां आसात खंय.

(आयच्या छाप्याच्या आनी संपर्क माद्यमाचे प्रगती साम्कार हें लॅखन पर्नें दिस्ता व्हय तरी, कसलियी चरित्रा केन्नांयी पर्नी जाय्ना कित्याक ती (चरित्रा) जावन आसा बुन्याद प्रगतिची–सं)

*********

# क्रिस्तांवांक देशी नांवां

नांवां कसें दिताले:

'नांवांत कितें आसा?' अशें विचारलां कवी शेकस्पियेरान. तरी एका नांवांत जाय्तो मतलब आटापला. देकुनंच, भुरग्यांचीं व्हडिलां बाळशें भुंय पडच्या सबार दिसां आदिंच एक योग्य नांव विंचून काडच्यांत पुश्कळ तक्ली खर्चितात. चडावत जावन पेल्यांचीं अथवा सांतांचीं नांवां पळेवन, तांतलें आप्णाक सोभ्ता तें विंचतात. विंचताना, त्या नांवांचो नीज अर्थ कितें, त्या नांवांक अर्थ आसा या ना म्हळ्ळें चिंतून पळेनांत. थोडीं आप्ल्या सर्लेल्या मालघड्यांच्या नांवां पयकी एक विंचतात; आनी हेरां जसें आदीं इटेलिंत आनी स्पेयनांत भुर्गें जल्माल्ल्या दिसाच्या सांतांचें नांव दवर्ताले तसी पद्दत आदार्तात. सां जुवांव क्रिससोतम तवळच्या क्रिस्तांवांनी नांवां दवर्च्यांत वापरलेली रीत दाकवन म्हण्ता – बाळश्याक सांतांचीं नांवां दिंवच्या बद्लाक सबार दिवे पेटवन दवर्तात आनी त्या दिव्यांक नांवां दवर्तात आनी जो दिवो हेर दिव्यां प्रास चड वेळ झळत  उर्ता ताचें नांव त्या बाळश्याक दवर्तात कित्याक तें बाळशें त्या दिव्यापरीं चड अवकाक वांचतेलें म्हणच्या पात्येणेक लागून. ही रीत तो खेंडतालो आनी तांकां उमेद दीवन म्हणतालो की तक्लेंत आयिल्लें कितेंयी नांव तुमच्या भुर्ग्यांक लाय्नाकात, मेल्ल्या माल्घड्यांक सैलाप करुंक तांचीं नांवां लाय्नाकात बगार भक्तिवंत आनी शेगुणांनी आनी देवाचे चाक्रेंत नांवांडिदक जावन गेल्ल्या सांतांचीं नांवां लाया.

नांवांचो जल्म:

सांतांचीं नांवां दवरुंक जाय म्हणताना त्या सांतांक कोणाचीं या कसलीं नांवां आय्लीं म्हळ्ळें सवाल विचारुंक येता. ह्या सवलाक सार्कीं जाप दिंव्क जाय तर आमी मनश्या कुळाच्या आरंभाथंय सोदनेची दीष्ट व्हरुंक जाय – म्हणजे, आदांव बापा थंय. 'आदांव' हें नांव त्या मनश्याक कित्याक आय्लें? त्या नांवाचो अर्थ पळेल्यार कळ्टा. 'आदांव, ह्या नांवांचो अर्थ 'जो पय्लो (the first one).

पयल्या तस्तामेंताच्या काळार आसल्लीं नांवां अर्था भरित जावन आसात आनी तीं त्या भुर्ग्याथंय दिसुल्ल्या लक्षणांचो या घुर्तांचो अर्थ

आटापतालीं. Nomina sunt omina नांवां जावन आसात लक्षणां (फितिसपणां) म्हण्येत. ह्या सांग्णे प्रकार पर्नो तस्तामेंत दाकयता त्यापरीं पेळेल्यार आम्कां कळोन येता की आदांव बापान जीं जीं रचनां पळेलीं तांच्या लक्षणांचो फरक/व्यात्यास वर्णुंच्या अथवा उचार्च्या अर्थार तांकां ताणे नांवां दवर्लीं. ताणें ताच्या धाकटया पुताक 'आबेल' म्हणून नाव दिलें. 'आबेल' म्हळ्यार 'स्वास'. भुर्गें भुंय पडल्ल्या फरा आम्कां त्या भुर्ग्या थंय दिस्चें मुख्य लक्षण कितें? स्वास चालू कर्चें. आदांवन्यी तें भुर्गें भुंय पडल्ल्याफरा पयल्याच पावटीं पळेलें, स्वास भाग्र भितर वर्तालें तें. देकून ताणे 'आबेल' म्हण एवेक सांग्लें. तें उतार तिणे त्या आपल्या बाळश्याक नांव जावन घट्ट धरलें.

नांवाचो दीस:

पुर्विल्या जुदेवां मधें भुर्ग्यांक नांवां दवर्चें हक्क आनी जवाबदारी ताच्या आवय-बापायची आनी चडावत आवयची. कुटमांतल्यो स्त्रीयो अथवा सेजारच्यो भुर्ग्याक फावो तें नांव सोदून काडून सांग्तालीं. अशें विंचून दिल्लें नांव चेर्क्याक आटव्या दिसा सिरकुम्सिजार (circumcision) करच्या वग्ता आनी चेडवाक तें जल्माल्ल्याच दिसा दवर्तालीं. जसें ग्रीक लोकाक आनी हीब्रू लोकाकयी एकच नांव दवर्ची रूड आसल्ली. इंग्लेंडांतयी एकच नांव दवरची पद्दत आसल्ली. लेकीन, क्रमेण कुटमां आनी कुळियो चड आनी चड जाताना, तांकां येकामेकाथावन वळ्कोंक सुलब जांवच्याक (आड नांवां) आल्कुंत्रां घेतलीं. इंग्लेंडांत एकच नांव दवर्ची पुराणिक पद्दत इंग्लिष राय-राणियांनी आजून चालू दवर्ल्या. (रोमांतल्या पाप-साय्बांनी तिच रीत आदारल्याशी दिस्ता.) पुण रोमन राय तीन चार नांवां पर्यांत घेताले.

परन्या सोल्यांतलीं नांवां:

परन्या सोल्ल्यांतल्या चरित्रेंत १७३नांवां आसात आनी त्या पय्की ६२ नांवांक अर्थ नांत, बाकिच्यांक आसात. क्रिस्ताच्या काळार आनी उप्रांतल्या तीन शतमानांनी क्रिस्तावांक बापतिज्म दिताना नांवां दिताले आनी तीं नांवां 'क्रिस्तांव नांवां' म्हणताले. जाल्यारी त्या नांवांक आनी पुरविल्या अनभावाडत्यांच्यां नांवांक भेद नातल्लो.अनभावाडत्यांच्या देवांचीं आनी देविंचीं नांवां क्रिस्तांवांक दिताले. तांचीं सर्व नांवां अर्था परमाणें विमरसून पळेल्यार तांचे इक्रा वर्ग या वांटे करूंक जाता. देकीक:

१. अनभावाडत्यांच्या देवांचीं (मर्कुरियूस, भाकुस, अपोल्लो, हेमोजेनेस,

डायाना आनी हेर)

२. समडतेच्यां काऱ्यांक आनी फितिसपणांक संबंद जाल्लीं (आगुस्तुस, ओप्टिसियुस आनी हेर)

३. अंक्यांचीं (प्रिमुस, सेकुंदुस, ओक्ताबियुस, सेंचूरियन आनी हेर.

४. मन्जातिंचीं (लियो, उर्सुला, ताव्रुस आनी हेर.

५. रंगांचीं (अल्बुनुस, रुफुस)

६. फुलांचीं (रोज, नार्सिस्पुस इत्यादि)

७. दिव्यांचीं–मार्गरेट, क्रिसांत्रुस

८. म्हयन्यांचीं (आप्रिलिस, जूनिया, जुलीयुस)

९. गांवांचीं (मवरुस, साबिना)

१० वयुक्तिक शेगुणांचीं (हिलारियुस, प्रोदेन्स)

११. चरित्रेंतल्या श्रेष्ट मन्श्यांचीं (सीजर, वर्जीलिया, कोर्वेलिया)

हांचे शिवाय पुर्विल्या क्रिस्तांवांनी क्रिस्ताचे समडतेक संबंद आसल्ल्या फेस्तांचीं, तत्वांचीं, शेगुणांचीं नांवां दवर्लीं. देकीकः नतालिस, पास्कालिया, रेदेंपुतुस, अनास्तासिया, अगापे, एल्सिस, आइएरिन इत्यादी.

सांतां भक्तांथाव्न नांवांः

क्रिस्ता उप्रांतल्या सुर्वेच्या तीन शतमानांनी वयर सांगल्ल्या वर्गाचीं नांवां दवर्ताले आनी सांगाताच देवोत भक्तांचीं, मार्तिरांचीं, पात्रियार्कांचीं आनी प्रोफेतांचींयी नांवां दवर्ताले. पुण साख्यिण मायेचें आनी आपस्तलांचीं नांवां घेवूंक चालू केल्लें चवत्या शतमानांत मात; कित्याक म्हळ्यार आंक्वार मरी आनी आपस्तल ऊंच वर्गाचे सांत म्हळ्ळ्या अबिमानाक लागून. तांकां तवळचे क्रिस्तांव देवा उप्रांत वर्तो मान दिताले आनी तांचीं नांवां लेगून पवित्र म्हणुन लेक्ताले. आयरलेंडांत तांचे भाषेंत 'मुयिर' (Muire) हें नांव फकत देवाच्या आवय्क म्हणोन रक्षित दवर्लां. स्पेय्न आनी इटेली गांवांनी तिचे थंय आसच्या विषेस देवासांवांक लागून लोक तिच्या फेस्ताचीं नांवां आपल्या भुग्र्यांक दवर्तात. दृष्टांताकः कोसेसांव, आसेसांव, दोलोरेस, मर्सी इत्यादी.

चवत्या शतमानांत आनी उपरांत आपस्तलांचीं नांवां सराग दवर्चीं पद्दत चालू जाली. तांचेपयकी सां। जुवांवंचें नांव लोकाक चड खाय्स जातालें,

काराण, तो जेजूक आनी मरियेक अधिक मोगाचो जावन आसल्लो देकून म्हण्ता अलेक्स्जांड्रियाचो सांत डायोनी पियुस.

अशें क्रिस्तांवांनी सांतांचीं नांवां घेंवची पद्दत चालू केल्या उप्रांत त्या नांवांचो मूळ अर्थ लिपोन गेलो आनी लोकाक त्या नांवां थंय भक्त आनी आकर्शण भोगल्ल्याचें काराण जाव्न आसा त्या नांवाच्या अर्थाक लागून न्हय बगार त्य नांवाच्या सांता या सांतिणेच्या विषेस देव भक्तेक, शेगुणांक, पवित्रायेक लागून.

इगर्जमातेची ताकेद:

भुर्ग्यांक सांतांचिंच नांवां दींव्कजाय म्हळ्ळो इगर्जमातेचो कानून-काय्दो ज्यारियेक आयिल्या जायत्या वर्सां आदीं थावन ही पद्दत पाळूंक जाय म्हळ्ळी वत्ताय या ताकेद आसल्ली. शिवाय, पुराण्च्या देवांचीं वायट अर्थ आस्चीं नांवां दवरुंक नजो म्हण आडवारल्लें. सांतांचीं नांवां दवर्चो इरादो जावन आसल्लो कितेंगी म्हळ्यार त्या सांताच्या जिणियेचो पाटलाव करचो, ताचे शेगूण आदार्चे, कुडी अतम्याच्या गर्जांनी तांची मजत आनी अनवारांनी तांचे ससायेन बचावी जोडचो.

नांवां दिंव्चो संदर्भ:

क्रिस्तावांक नांवां बाप्तिज्मावेळार दिंवची रूड केदना सुरु जाल्ली तें स्पष्ट कळित ना. पुण बाळश्याक बाप्तिज्म दिंवची जेराल पद्दत चालू जाल्ल्या तवळथावन ती आज परयांत चलत आयल्या. आदीं प्रायेस्त कन्वेडतर जावन बापतिज्म घेंवचेवेळीं तांकां नवें नांव दिताले सांगाताच आदलें नांव रद्द करिनातल्ले. देकीक: ब्रिटिष राय- केडवाल, नांवाचो कन्वेडतर जातेच ताका पापा सेर्जियुसान रोमांत बाप्तिज्म दिल्लो. दिताना ताका पीटर म्हण्चें नांव दिलें. मागिर तो राय रोमांत अंतर्लो. ताका निकेपिल्ल्या फोंडाचेर ताचीं दीनयी नांवां बरवन घाल्लीं आसात.

नवीं नांवां क्रिज्म दिंवच्या वेळारी दिताले, आतांयी दितात. पुण चडावत नांवां दींवक सांगल्लो संदर्भ बापतिज्माचो; कित्याक तो जावन आसा पय्लो सक्रांमेंत क्रिस्तांव जिणियेचो. क्रिस्तांव समडतेचो भोव आदलो सांत बाल्सामुस आपल्या लिखितांत सांग्ता की ताच्या बापान दवरल्लें नांव 'बालसामुस' पुण मागिर ताका बापतिज्मा वेळार दिल्लें पवित्र नांव 'पीटर.' तरी सांतांच्या तारीक पट्टेर (केलेंडर) ताचें आदलेंच नांव दाकय्लां,

बापतिज्माचें नांव ना!

इंडियन क्रिस्तांवांचीं नांवां:

इंडियांतल्या कथोलिक इगर्जमातेक लग्ती आसच्या चरित्रेंत पळेल्यार तेनकांत (दक्षिणांत) सीरियन क्रिस्तांव सीरियन भाषेच्या उच्चारां परीं सांतांचीं नांवां दवर्ताले. पोर्तुगेज येवन कन्वेडतर केल्ल्या क्रिस्तावांकयी सांतांचीं नांवां दवर्ताले. तीं नांवां देशी रुपार दीनातल्ले पुण त्या गांन्च्या भाषेंत उचारोंक जाय सार्कें थोडी बदलावण कर्ताले. तिच पद्दत पोर्तुगेजांनीं कन्वेडतर केल्ले नोडतेर (ईष्ट इंडियन) आदार्ताले. अशें मंग्ळुरगार, गोंयकार आनी नोडतेर पोर्तुगेजांचीं नांवां घेवुन आपापल्या भासांनी उच्चार करुंक जाय सार्की थोडी बद्लावण कर्ताले. देकीक: पीटर म्हण्चें नांव नोडतेरान मराठींत 'पेद्रिया' केलें, गोंय्कारान आनी मंग्ळुरगारान 'पेद्रु' केलें. जो आज (जोन), हें पोर्चुगेज नांव नोडतेरांक 'जांव्डु' जालें आनी गोंयकारांक आनी मंग्ळुरगारांक जुवांव जालें. अशें, आमी फिंर्गी नांवां आनी तिंयी अर्धीकुरीं बदलून घेंवचीं पळेवन इतर जातिंचो लोक हास्ता मात न्हय त्या नांवांचो मूळ अर्थ सय्तयी पिडच्चार जाता. ही पाड सवय सोडूंक अथवा तिदवून घेवूंक बरी न्हयंगी म्हळ्ळें सवाल उबजाता.

चडावत सांत–सांतिण्यो एरोपी गांवांतल्यो जावन आसल्ल्यान तांचीं फिंर्गि नांवां आसा तशीं आमी घेंवच्या बदलाक आमच्या प्रती एका भाषेच्या उच्चाराक ताळ पडाशें तीं भाषांतर केल्यार बरें न्हयंगी म्हळ्ळें सूचन आसा. आज काल हें सूचन आम्कां पसंद आसा आनी तें कार्यांतर कर्चें मनयी आसा आनी आतांचो हो वेळ योग्य जाल्लो. पुण तीं नांवां हिंदुस्थनाच्या सर्व भाषांनी बदलूंक साध्य ना तर उपाव कसलो? आसा एक. आमच्या हिंदुस्थानांतल्या चडउणे हर एका भाशेक संस्कृत भाषेंतल्या सब्दांचो उपेग आसा. आनी ती हिंदूशास्त्रांत वापर्लेली जावन आसा – आमी क्रिस्तांव लातें व ग्रीक वापारतांव तशें. त्या पासून आमी आमच्या सांतांच्या नांवांचो अर्थ संस्कृत भाषेंत तर्जुमो करुंव जाल्यार आम्कां योग्य जाल्लीं देशी नांवां मेळ्तलीं. मात्र न्हय, तीं आमच्या इतर समडतेच्या लोकाक मेच्वतेलीं.

आमच्या सांतांचीं नांवां संस्कृत सब्दा मारिफात देशी रुपाक बदली कर्चें सूचन कांय उडतें या नवीन न्हय. इंडियन इगर्जेची चरित्रा पळेल्यार हें सूचन २०० वर्सां आदीं कार्यांतर केल्लें दिसून येता. फादर कोन्सतांजो (कोन्सटेंट) बेस्टी ह्या नांवांच्या जेज्वितान मधुरा जिल्ल्यांत आपलें मिसांव

प्रगटल्ल्या वेळार आपलें बापतिजमाचें नांव कोन्सतांजो आसल्लें संस्कृतांत तर्जुमो करुन 'धैरियानाथन' म्हणोन बदिललें. (कोन्स्टेंट = थिर रांवचो मनीस =धऱ्याधिक मनीस= धौरियानाथन.) हो जेज्वित तमिळ कवी जावन नांवाडल्लो. पुण देशी नांवां क्रिस्तांवांक दिंवची पद्दत सुरु केल्ली ताणे न्हय बगार ताच्याकी आदीं – म्हण्जे सोळाव्या शतमानांत फादर रोबर्ट दे नोबिली हाणे सुरु केल्ली म्हणतात. क्रीस्तांव समडतच देशी पद्दतेंक बदलूंक ताणे आपली जीण खर्चिल्ली खंय. क्रिस्तांवांचीं मागणीं, पवीत्र पुस्तकां आनी लितुर्जीक कार्यीं ताणे संस्कृत पद्दतेक बदिललीं; आनी आपणे सन्यासिचो वेस घेतलो. ब्राह्मणांपरीं ताणे मास खांव्चें आनी आमाल सेंव्चें रावयलें. उद्देश – हिंद्वांक क्रिस्तांव समडत मेचवाशी कर्चो. अशें म्हणतेच क्रिस्तांव नांवांक संस्कृतेचो वेस दिंव्ची पद्दत ताणेंच सुरु केल्ली जावन आस्येत.

आजून मधुरा आनी मैसूर प्रदेशांतले क्रिस्तांव देशी नांवांच वापार्चें आम्कां दिसून येता. थोडीं नांवां तमिळ आनी थोडीं पुराणिक कन्नड भासांनींयी आय्कोंक मेळटात.

देकीक, हीं नांवां पळेया:

आंद्रू = बल्वोद्रा (संस्कृत) = बळिष्ट

बोनिफास = नल्लप्पा (तमिळांत नल्ल = बरो = बरें कर्चो)

क्लेमेंत = संताप्पा (तमिळ), काकूळदार

कोन्सटेंट = धैरयानाथन = (संस्कृत )= थिरासणेचो

दोमिनिक=स्वामीनाथन (संस्कृत) = सायब

हिलरी = आनंद = खुशली

जोन = अरुळ (तमिळांत अरुळ म्हळ्यार 'कुर्पा' = कुर्पेचें देणें)

मार्सेल = गुरुस्वामी (संस्कृत) सैनिक

पाव्ल = सीनप्प (तमिळ) सण्णप्पा (कन्नड) = ल्हान मनीस

पीटर = रायप्प (कन्नड आनी तमिळ) तमिळांत राय = फातोर.

ह्या वयल्या दृष्टांताक पळेताना आमचीं क्रिस्तांव नांवां देशी रुपार बदिलल्यार तीं नविंच या उडितं तशीं दिसनांत. तशेंच हिंद्वांक आसात तीं नांवां इंग्लिष या लात्या भाषेंत तर्जुमो केल्यार तांतलीं चडावत आमच्या क्रिस्तांव नांवांक बदली जातात.

अशें म्हणताना हीं हिंद्वांचीं नांवा आम्कां क्रिस्तांवांक योग्य जांव्चीं न्हय. दाक्ल्याक, तांच्या देवांक, देविंक आनी पुरणांतल्या वीरांक आस्चीं तीं. तांचो अर्थ पळेल्यार तिंयी भोव साधीं, म्हणजे वनन्याचीं. उदाहरणाक: राम=सोभित, कृष्णा=काळो. गौरी=धवी; तरी तीं वाप्रुंक तिं नांवां तांच्या देवां आनी देविंक सृष्टायिल्लिं. आमी वाप्रूंक फावो ना.

त्याच प्रमाणे सक्ला दिल्यांत तीं नाांवां आमी घेवूंक फावो न्हय बगार तांच्या अर्थां पर्माणे तीं देशी भासांनी तरजुमो करुंक सुदा जाय्नांत.–

| | | |
|---|---|---|
| बरटाम | = | धवो पाकीसाळो |
| क्लोडियस | = | थोंटो |
| डेनिस, डायनिसियस | = | वाय्नाचो देव |
| जोनास, जोन्हा | = | पार्वो |
| जुलियस | = | जुलियूसा थावन उबजाल्लो. |
| लूसियन | = | लुसियना थावन उब्जाल्लो |
| सेसिलिया, सेसिली | = | गयऱ्या दिष्टिचें |
| सिंतिया | = | सिंतिय पर्वतालाग्चें |
| माग्देलेना | = | माग्देला गांवचें |
| मरियान | = | मेरी आनी अन्ना |
| ओफेलिया | = | सरोप |
| साबीना | = | साबीना गांवचें |
| उर्सुला | = | बाय्लें आस्वेल |
| सिप्रियन | = | सैप्रस गांवचो |
| लिडिया | = | लिडिया गांवचें |
| मैकल | = | देवा सार्को कोण? |

आमच्या वाचप्यांच्या जाणवाये खातिर आमच्या क्रिस्तांव नांवां पय्की तर्जुमो करुंक जांव्चीं थोडीं (पुरुषांचीं आनी स्त्रीयांचीं) नांवां विंचून तांच्या

अर्थां प्रकार देशी नांवां दिल्यांत:

पुरुषांचीं:

| क्रिस्तांव नांव | अर्थ | संस्कृत (देशी नांव) |
|---|---|---|
| आरोन | उंचलो | उन्नत |
| आब्दियेल | देवाचो चाकोर | देवदास |
| आबेल | स्वास | प्राण |
| आब्रांव | संततेचो बाप | जानक |
| आडोल्फ | कार्भारी मानेस्त | महावीर |
| आलबर्ट | नांव वेल्लो | प्रसिद्द/महायिस |
| अलेक्सांडर | लोकपालक | लोकपालक |
| आल्फ्रेड | बरी बूद सांग्चो | सुमंत्री/सुसाचिव |
| आलफोन्सो | कबूल करचो | सहामत |
| आल्विन | सक्डांक प्रितिचो | सर्वप्रिया |
| आंब्रोज | मरण नातल्लो | अमृत |
| आंद्रु | बळिष्ट | पुरुषोत्तम |
| आंतोन | आमोलिक | अमूल्या/प्रासास्या |
| आर्चिबाल्ड | विषेस धय्राधिक | महाशूर |
| आर्थर | वरतो | महाकुलीन/महाकुळ |
| आगस्तस | श्रेष्ट साय्ब | महेश्वर |
| ब्यापटिस्ट | स्वच्च करचो | पावन |
| बार्थोलोमिव | झुजारी पूत | रणप्रिया |
| आपोल्लो | सुरयो | दिवाकर, प्रभाकर |
| बेजिल | रायाळ | राजय्या |
| बेनेदिक्त | भागी | धन्यवंत |
| बोनिफास | धर्मिष्ट | हिताकर/उपकारक |
| ब्रूनो | गेंदो | कपिल |
| सीजर | निळश्या दोळ्यांचो | निलाक्षा, निलानयक |

| | | |
|---|---|---|
| चार्ल्स | बळादिक | बालाधिक/बालावन/धिरात्म |
| क्लेरेन्स | काक्ळुदार | करुणाशील, दयाशिल कृपाशील |
| कोन्त्राड | थिरमनाचो | निस्राया |
| कोन्सतांतिन | धृड सभावाचो | धृडात्मा |

स्त्रीयांचीं:

आदेल, आडेलैड,आदेलिया, आडेलीना आलीस=रायाची धुव = कुमारी

| | | |
|---|---|---|
| आगाता | दयाळ | सादया/दयावती |
| आग्नेस | निस्कळ | सती |
| आलेक्सांड्रा | पाळोक | लोक पालकी |
| अमॆलिया | चटुवटिकेचें | आनालासी |
| एमी | प्रीतीपात्र | प्रिया/कांता/कामनिया |
| आंजेलिना | सोभित | सुंदरी, कांता |
| आन्ना | कुरपा | कृपा |
| आंतोनिया/आंतोनिना | मोलाधिक | प्रासास्य |
| आगुस्ता | साख्रिण | महेशवरी |
| आव्रोरा | सकाळचो उज्वाड | अरुणा |
| बियात्रिस | सुख दिंवचें | सुखाकरणि/सुखादायिनी |
| बेनेदिक्ता | भागी | कल्याणिनी |
| ब्लांच | धवें | गौरी, सुची |
| बेरता | रुपेस्त | सुंदरी |
| ब्रिजित | त्राण | सबला |
| केरोलिन, चार्लेट | बळिष्ट | प्रभला |
| सिलेस्तिन | स्वर्गीय | दिव्य |
| क्लारा, क्लारिस | पर्जळीक | सुप्रभा, भास्वती |
| क्लेमेंतीन | साधें | कोमल, सुशीला |
| डायना | देवी | देवी, भाग्वती |

| | | |
|---|---|---|
| दोरोतिया | देवाचें देणें | दॅवा प्रसाद |
| इडित | आनंद | आनंदिनी |
| एडना | धादोस्काय | रमणी, मधुरा |
| एलियानोर, हेलेन,एल्ला, एलेन, नोरा = उज्वाड | | प्रभा,कांता,कांती |
| एलिज, एलिजाबेत | देवाची भक्ती करचें | दॅव भक्तिण |
| एल्वीरा | धवें | शुक्ला, श्वेता |
| एमेलिन,एमिली,एम्मा | कष्टी | कर्मशीला |
| एस्तेर | नेकेत्र, अदृष्ट | तारा, सुभागिनी |
| एव्लालिया | बरें उलवणें | मधुभाशिनी |
| एनफ्रेम्रीया | शाभास्केचें | सुकीर्ती |
| ईवा, ईव्लिन | जीव | संजीवनी |
| पुरुषांचीं: | | |
| क्रिस्पिन/क्रिसपियन | कोंग्र्या केसांचो | कुरळकेस |
| कतवर्ळ | प्रकाशीत | महायास |
| सिरील | पद्वेदार | ईश्वर |
| साय्रस | सुर्यो | भास्करा |
| दानियल | दैवि मुन्सुब | पर्माधक्षा |
| दारियस | रक्षण कर्चो | रक्षका |
| दाविद | प्रीतिचो | वल्लभा |
| डोनाल्ड | गंभीर, प्रमुक | अभिमन्यु |
| एडमंड/एडवरड | आस्तिचो राक्वली | धानापालक |
| एडवीन | आस्तिदार | धनांजय |
| एग्बर्ट | तल्वार श्रेष्ट | खड्गायस |
| एल्ड्रेड | भिरांकुळ | भीमा, भीषणा |
| एम्मानवेल/मान्वेल | दॅव आम्चेथंय | सहदॅव |
| एनोक | अरपिल्लो | निक्षिप्त |
| एरिक | ग्रेस्त, धीर | श्रीमन,धारा |

| | | |
|---|---|---|
| एवझिन | श्रेष्ट जल्माचो | महाकुल |
| फेलिक्स | सुखी | भाग्यावान, सुभाग |
| फ्रान्सिस | अजादी, स्वतंत्रीया | अनिरुद्द |
| फ्रेड्रिक | समाधानेचो राय | शांतराज |
| जॉर्ज | रैत | कृषीवाल, खेत्रपती |
| जेराल्ड | भाल्ये सार्को घट | शूलबल |
| ग्रेगरी | जागृतेचो | सावदान |
| गुस्तावस | झुजारी | महावीर |
| गिलबर्ट | नांवाडिदक | महायास |
| हेराल्ड | चांपियन, सॅनापती | विक्रांत, सेनापती |
| हर्बर्ट | सैनाचो आनंद | सॅनायस |
| हेनग्री | घराचें मस्तक | गृहपती, कुलपती, प्रासन्ना |
| हिलरी | खुशली, सुखी | हर्ष, सहर्शा |
| ह्यूबर्ट | पर्जळीक अतम्याचो | भासुरात्मा, प्रभात्मा |
| ह्यूग, हूगो | मत, आत्मो | मानु |
| इग्नेशियस | उमेंद्वंत | उतप्प, तॅजस्विन, आग्नेया |
| इजाक | हासो | हसन्मुखी |
| जोन | देवाचें कुर्पेभरित देणें | दॅवदत्ता, दॅव प्रसाद |
| जेरोम | पवित्रनांव | पवित्र नामा |
| जॉब | दुकेस्त | दुखित |

जोसेफ जुजे= फ्रोफेत (आदॅशक), प्रोफेतांचो दॅव (सिद्दॅव), जनतेचो दॅव (जनदॅव), संतत उतपन्न कर्णार ( संयोजक)

| | | |
|---|---|---|
| जोशुआ | साल्वसांवचो दॅव | मॉक्ष दॅव |
| जोसिहा, जोसियस | सोमियान दिल्लो | स्वामिदत्त |
| जूलियस | मॉव केसांचो | मृदुकेश |
| जुस्तिन | नितिदार | न्यायवर्ली |
| लेनल्यॉट | धाक्टुलो आंज | दॅवदूत |

| | | |
|---|---|---|
| लोरेन्स | कुर्वार केल्लो, | यशस्वि, प्रख्यात |
| लाजरुस | देवान मजत केल्लो | देव सहाय |
| लियांडर | सिंहकास्ताचो मनीस | नरसिंह |
| लियोनार्ड | सिंहापरीं धय्राधिक | सिंहासुर, सिंहबळ |
| लीनस | रंगीन केसांचो | उमकेश |
| लायोनेल | तर्नें सिंह | सिंह कुमार |
| लुविस | धय्राधिक सैनिक | वीरसेन |
| लूसियस | सकाळिं जल्माल्लो | अरुनाज |
| मार्टिन | झुजारी | रण प्रिया, रणरागा |
| मार्कुस/मार्सेल | मंगळ गृहाचो | रणज |
| मेथ्यू/मथायेस | देवाचें देणें | ब्रह्मादाना, देवदाना |
| माव्रिस | सावळो / काळो | कृष्ण/ शामा |
| मोजेस | तारोक | तारक, लोक रक्षक |
| निकलस | लोकाची जीक | लोक विजय |
| नतानियल | देवाची काणिक | देवदान |
| नोयेल | क्रिसमस | क्रिस्तजल्मा |
| ओस्मंड | देवान सांबाळचो | स्वामी रक्षणान |
| ओस्वल्ड | देवाची सत्ती | देव प्रभावा |
| पेट्रिक | श्रेष्ट | आर्या, आर्याजण |
| पेरेग्रिन | पर्की | अन्यजण |
| पीटर | खडाप | प्रस्तर, पाशन |
| फिलिप | घोड्या प्रेमी | अश्वप्रेमी |
| पियुस | देवोत | धर्मशील, धर्मात्मा |
| स्त्रीयांचीं: | | |
| फेसिलिया | सुख | आनंदी |
| फिदेलिया | विश्वासी | पतिवृत |
| फ्लोरा | फुल | कुसुमा, पुश्पा |

| | | |
|---|---|---|
| फ्लोरेन्स | फुल्तें | प्रफुल्ला |
| गर्टी–जेत्रुद | | कुंती |
| ग्रेस | उपकार | प्रसाद |
| हेरियेट, हेरियेट्टा | घराची व्हडिल्न | गृहेश्वरी |
| आय्डा | देवा सार्कें | देवासम्म, देवातुल्या |
| आय्रिन | समदानी | शांती |
| इज्बेल | देवाची भक्ति करचें | देॅवभक्तिणी |
| जेॅन, जोन,जीन, जेनेट, जुवान – देवाचें देणें | | देवादत्त, देॅवकृपा |
| जोसेफिन | प्रोफेतांची देॅवी | सिद्दॅवी, जनदेॅवी, प्रेॅशिता |
| जूडित | होग्ळिकेचें | प्रासस्या |
| जुलिया,जुलियेट | मॉव केसांचें | मृदुकेॅशी |
| जुस्तिना | नितिवंत | न्यायशील |
| लिल्लि, लिलियन | लिल्लिफुल | पदमिनी, नलिनी |
| लुविज (लुविजा) | धय्र्याधिक झुजारी | वीरसेॅना |
| मेॅबल, अमाबेल | प्रितिपात्र | कांत, वत्सला |
| मार्गरित | पोव्ळें | मुक्त |
| मेॅरि | खताविण | निर्मल |
| मातिल्डा | नाय्किण | नायिका |
| फिल्लिस | पाच्वो ताळो | हरित्सका |
| प्रिसिल्ला | प्रायेस्तशें | अल्पत्सिरा |
| रेबेका | अती सोभायेचें | मनोॅरमा |
| रोॅज, रोॅजा, रोॅजालिन | गुलोब | जपा |
| रूत | सोभाय | शोॅभा |
| सेलोम | समधानी | शांता |
| सारहा | रायाची धुव | राजकन्या, कुमारी |
| सेलीना, लीना | चंद | चंद्रा, इंदु |
| सिबिल | फ्रोफेतिण | आदेॅशकी |

| | | |
|---|---|---|
| सोफिया | बुद्धंतकाय | बुद्दी, विवेकिनी |
| स्तेल्ला | नेकेत्र | तारा |
| सुजान, सुजान्ना,तियोदोरा | लिल्ली | नलिनी, कुमुदिनी |
| तियोदोसिया | देवाचें देणें | देवप्रसाद |
| विक्टोरिया | जयत | विजय |
| वाय्ला, वाय्लेट | वाय्लेट रंग(जांब्ळी रंग) | पातला |
| वर्जीनिया | आंक्वार | विशुद्द |
| विल्लेमिना | पालक | धीरपालिका, रक्षत्री |
| विन्निफ्रेड | समादानी | शांताप्रिया |

(गर्जेचो शहरो:

ह्या लॅखनाचो मूळ लॅखक मानेस्त चार्ल्स कुवेल आनी अनुवादकः "जोस्या"

हें लॅखन १९६२ इस्वेंत 'मित्र' हफ्ताळ्यार सांक्ळेक्रमार प्रगट जाल्लें. आतां हें पत्र बंद जालां आनी कोणालागीं विचार्यां म्हळ्यार आमकां कसलेच विवर/विळास कळितनांत.

तरी पुण ह्या लॅखनांतली माहेत आनी जाण्वायेचें भंडार इतलें आसा– की आमी बऱ्या उद्देशान कसलियी बर्पिनिशीं पर्वणगीनास्तां, आसा तशें छापलां. संबंद जाल्यांनी आमकां सुदार्सिजे, माफ करिजे.

आमचो उद्देश इतलोच – 'अमर कोंकणी' वाचप्यांक कांय तरी नवी माहेत दिंवची आनी तसली माहेत हांतूं धाराळ आसा.)

धन्यवाद.

--संपादक)

************

# हव्यास जाणवायेचो आनी फाय्द्याचो

–वी.ऐ.पिंटो

(संपादकाचो श्हरोः हें लॅखन वाचतेच हाचो जिनोस वेग्ळोच म्हण तुमकां भोग्तेलें सहज आनी सासांगाताच एका संसोधिक शण्मासिकांत ह्या बरपाक स्थान कसो म्हळ्ळें सवालयी उट्टेलें. ह्या अंक्यांत आमी एक ल्हानशी घुंव्डी घेतल्या. तुमी मांदतेल्यात–गी, हर अंक्यांत विंच्णार संसोधिक लॅखनां लाबचीं त्रासाचो वाव्र. तरी पुण कोंकणी साहितांत आनी पत्रिकोद्यमांत विविदाय/जाणवाय जायती आसा आनी १९६१ थावन सय्त कानडी लिपियेंतल्या कोंकणी नेमाळ्यांनी असलीं विभिन्न कालेतिचीं बरपां प्रगट जातालीं म्हळ्ळी संगत खरी. त्या मट्टाक आनी मापांत हें लॅखन हांगासर सार्केंच बस्ता म्हळ्ळी पात्येणी संपादकाची.

तुमच्यो अभिप्रायो कळयात.

हें लॅखन दसेंबर १९६१ इस्वेंत 'मित्र' पत्रार प्रगट जाल्लें. हें नेमाळें आतां चलावणेंत ना आनी मूळ लॅखकाचो संपर्क आमकां लाब्लो ना. तरी ह्या मुकांत्र आमी तांकां धन्यवाद पाटय्तांव आनी शिणूंक नजो म्हण विनती करतांव)

"एक तर्नाटी स्त्री आपल्या नेस्पा–कुडाक टप्पाल चिटिंनीं विणल्लो पडदो (a curtain made of postal stamps) तयार करुंक सोदता जाल्ल्यान, कोणयी उदार मनाच्यानी वापरल्ल्यो या ताका उपेगाक पडानातल्ल्यो टप्पाल चिटी म्हाका पावित करीत तर व्हड उपकार जातोलो. येदोळ पऱ्यांत म्हज्या सयऱ्यांनी आनी ईष्टांनी दाडून दिलल्यो १६००० टपाल चिटिंचो संग्रह म्हजेलागीं आसा तरी हो संखो पावाना देकून ही विनती"(तिचें नांव आनी विळास)

हें जाग्रात १८४१ इस्वेंत 'दी लंडन टायम्स' पत्रार आयिल्लें पळेवन आख्खें लंडन शहर विस्मित जालें कित्याक हें जावन आसल्लें पय्लें जाग्रात तप्पाल चिटिंचो वापर १८४० इस्वेंत सुरु जाल्या उप्रांत!

पुण चरित्रा आम्कां सांग्ता – 'जुवांव बर्क' नांवांचो इंग्लेंडाचो रिसीवर जनरल १७७४ इस्वेंतच ड्यूटी स्टॅंप्स म्हळ्ळ्यो चिटी जमो कर्तालो म्हण. पुण त्या तेंपार टप्पाल इलाख्यान चिटी वापरुंक सुरु करुंक नातल्लें.

पुण, १८४१ इस्वे उप्रांत इंग्लेंडांतल्या ग्रेस्त तशें दुबळ्या स्त्रीयांक ह्यो चिटी जमो कर्चें एक कसब ज़ावन गेलें. तवळ राज्वट चलवन आसल्ल्या हेन्री आटव्या रायान राणियेचें शिरस्स आसल्ल्यो चिटी वापरूंक व जमो करुंक नजो म्हण खडख काय्दो घालो जाल्यारयी त्या चिटींक चड खाय्स आसल्लो म्हण "पंच" म्हळ्ळें सर्कारी पत्र सांग्ता.

टप्पाल चिटी जमो कर्चो हव्यास आजकाल सगळ्या संसारार विस्तारला. इगर्ज मातेच्या व्हडिलां थावन सर्कारी हुद्देदारांक आनी हेर कामागारां थावन इस्कोल शिकच्या विद्यार्थिंक लेगून ही एक पिसाय जावन गेल्या. १९५९ इस्वेंत मेयांत काडलेल्या लेका परमाणे संयुक्त अमेरिकांत इक्रा मिलिया लोक हें कसब कर्तास्ताना, तें एका थराच्या आदायाचेंयी जाल्ल्या निम्तीं, इंग्लेंडांत एका वर्सा धा मिलिया पौंडांच्यो चिटी विक्रो जातात म्हण कळोन आय्लें. १८४१ इसवेंत त्ये स्त्रीयेन इस्तिहार फाय्स केल्ल्या तेदाळा फकत दोन थरांच्यो चिटी चलावणेंत आसल्ल्यो आस्तां आतां २५०,००० थरांच्यो चिटी संसारार वापरतात मात्र न्हय बगार २५०० नमुन्यांच्यो चिटी हरएका वर्सा छापतात म्हण चरित्रा सांग्ता. तशें जाल्ल्यान आजकाल्चे चिटी जमो कर्णार एकेका नमुन्याच्यो एकेक चीट दवरतात शिवाय आदलेबरी चडीत दवरिनांत म्हळ्ळेंयी संसारान मांदुन घेतलां.

टप्पाल चिटी जमो करच्या कामांत अधिक नांवाडल्लो संस्थो जावन आसा 'दी ब्रिटिष रोयल कलेक्षन' म्हळ्ळो. ह्या संस्थ्यान फकत ब्रिटिष राश्ट्रांच्यो आनी इजिप्ताच्यो चिटी जमो करुन ६० पानांचे ३३० बूक करुन दवर्ल्यात म्हळ्यार कोणेंयी आय्कोन विज्मित जांवचेंच सय. आनी ह्या विषांत लंडनांतल्या 'दी रोयल फिलाटेलिक सोसायिटी'न धा हजार बुकांचें वाचनालय उघडल्या.

टप्पाल इलाखो जावन आसा चरित्रे तितलोच पर्नो या तिच्याच प्रायेचो. पर्सियांत प्रारंब जाल्ली ही टप्पाल इलाख्याची पद्दत पळेवन 'चरित्रेचो बापय' म्हण नांव वेल्ल्या 'हेरोडेटेसान' त्या तेंपार लिखल्ले. 'धुंव्री व पावस, धग वा हिंव, काळोक या उजवाड हाका खंचाकी भियेनास्तां वेळा पर्माणे खंचायी अन्वारांत काम करता जाल्यार तो एकच्च टप्पाल इलाखो.' हिंच उत्रां जायत्या टप्पाल आफीसांच्या दारांचेर बरवन घाल्लीं वाचूंक मेळ्तात म्हण इतिहास आमकां सांग्ता. पुण हो इलाखो पर्नो व आदलो जाल्यारी चिटी चिड्कांच्ची पद्दत उप्रांत्ली म्हळ्ळें विस्रोंक नजो.

येदोळ म्हणासार हाचे विशांत थोडी माहेत आमी वाचून घेत्ली. आतां, ह्यो चिटी वाप्रुंक सुरु केल्ल्यो कोणे म्हळळें आमी समजोन घेना जाल्यार ही माहेत व्यर्थ. १८३७ इस्वेंत बर्मिंगह्याम नगरांतल्या सर रोलेंड हिल्ल म्हळ्ळ्या एका इस्कोल मेस्त्रिन 'पॉष्ट ओफिस रिफोर्म्स' म्हळ्ळी कडतील फाय्स केली. तवळ पर्यांत पत्रां धाडतेल्यांक कांय दुडू खर्च करुंक नातल्लो पुण टप्पाल घेतेल्यान दुडू भरोंक आसल्लो. इत्लेंच न्हय, लाग्शिल्या हळ्ळेक पत्र व्हरिजे तर २८ पेन्नी खर्च पडटालो खंय. सर रोलेंड इल्लाक ही पद्दत बरी लाग्ली ना. ताणे आप्ले कडितलेंत इतल्या पयस पत्र व्हरिजे तर इतल्याच अयवजाची चीट वापरिजे आनी चिटीचो खर्च न्हय पत्र घेतेल्यान, बगर धाडतेल्यान म्हळ्ळें सुचन दिलें. हें सुचन तेदाळाच्या पॉस्ट मास्टर जनरलाक, लोर्ड लीकफील्ड हाका इत्लें मांदलें की ताणे आप्ली शिफारस ह्या भाषेन उचार्ली. 'जायत्या नमून्यांच्यो आलोचन्यो मुकार हाडल्यो ह्या टप्पाल चिटी विशांत. बऱ्या सांगाता वाय्ट. पुण हांवें आनी इलाखेच्या जायत्या कामगारांनी वाचुल्ल्या या आय्काल्ल्या सर्व सुचनां पयकी ही म्हाका चड पसंद जाता जील्लेवर्वीं आमी ताका शाभास्की पाटयतांव आनी ताचें सूचन मांदून घेतांव. कित्याक ही जावन आसा उण्या खर्चाची सांगाताच सर्वांच्या फाय्द्याची, जसें सर्काराक तसें लोकाक.'

आनी इतल्यार पडली बुन्याद टप्पाल इलाख्यान पत्रांक चिटी वापरुंक लांवची.

ही आलोचन इलाख्यान मांदून घेतेच १८४० इस्वेंत इंग्लेंडाच्या पार्लिमेंटांत 'बिल्ल' (मसूद) मंजूर कर्तेच एका पेन्निची (पैसो) काळ्या रंगाची आनी दोन पेन्निंच्यो निळश्या रंगाच्यो चिटी छापूंक सर्काराथावन हुकुम आयिल्लिच विक्टोरिया राणियेच्या शिरस्साच्या रुपाच्यो चिटी ब्रिटनांत आनी आयरलेंडांत वाप्रूंक प्रारंब जाल्यो आनी ह्यो छापूंक हेन्री कोर्बोल्ड म्हळ्ळ्यान नक्षा कर्ताना, अमेरिकाच्या नांवाडिदक नोट छापणारान जाकोब पर्किन्स म्हळ्ळ्यान छापचें काम हातीं घेतलें.

अशें, १८४० इस्वेंत मरियेक भेटोवन दिल्ल्या माय म्हयन्यांत संसाराची पयिल्ली टप्पाल चीट भायर सर्ली. हें नवें क्रम पळेवन प्रजेक इत्ली धादोस्काय भोग्ली की त्या वर्सा भितर ७५ मिलिया चिटी विकून गेल्यो म्हण चरित्रा सांग्ता. आनी त्याच चिटिंक आज पयिल्ल्याक २६ पांव्डांचें आनी दुस्ऱ्याक ८५ पांव्डांचें मोल येता म्हळ्ळोयी उडास कर्ता.

ब्रेझील आनी स्विटजरलेंड जावन आसल्ले उप्रांतले गांव चिटी चलावणेर घालूंक. हें पळेलेंच अमेरिका वोगेंच बसानास्तां १८४७ इस्वेंत हेन्री आर्चर म्हळ्ळ्या इंजिनियरान (तो अईरिष गांन्चो) एकाथावन चिटी मेक्ळी करुंक सुलब जायशें perforating machine सोदून काडलें. आनी हेंयी चलावणेंत घालूंक ब्रिटिशच्च पयले. हें मिशिन चलावणेंत येंवच्या पयलें चिटी छाप्ताना गीट घालून उप्रांत त्यो कातर्न काडटाले खंय. हाच्या उप्रांत जायतें सुद्राप जावन येताना अग्रीश कुळियेच्या विल्लियम हंफ्रसान छापूंक आनी कात्रूंक जांवचें मिशिन सोदून काडून चिटींच्या चरित्रेंत नांव वेलें. हाच्या उप्रांत हेंच चलावणेर आसल्लें जाल्यारी, थोड्या गांवांनी प्रामुख्य कार्यांवेळीं छापच्यो (commemorative) चिटी embossed करुंक सुरु केलें. १८५३–त तसली नाजूक आनी पयिल्ली चीट छापून पोर्चुगलान नांव वेलें.

टप्पाल चिटी वेगिंच सगळ्या संसारार विस्ताल्र्यो म्हळ्ळ्याक हेर कसलियी रुज्वात नाका. कित्याक आमच्या तेंपार आमिंच पळेवन जाणांव आनी सदांनीत तांची बदलावण पळेतांव.

तर आतां, ह्या चिटींच्या आकारांच्या चरित्रेच्या दुस्र्या विभागाक वेचें वाजबी जावन आसा:

१८५० इस्वेंत ब्रिटिशांनी ऊरुट आकाराच्यो चिटी सुरु कर्ताना, इंडियांतयी सुताच्या रीलाच्या आकाराच्यो चिटी चलावणेक पडल्यो म्हळ्ळें कळोन येता. तेणें तेन्का आफ्रिकांत१८५२ इस्वेंत 'त्रीकोन' आकाराच्यो चिटी छापताना आनी थोड्याच तेंपान त्यो तबदील करुन त्रीकोन आकार आसल्लेपरिंच पुण दोन देगो एकाच्च लांबायेच्यो जावन तिस्री मटवी जांवक पावली. १८६५–व्या वर्सा कोलोंबियान एकाच्च मापाची लांबाय आसची त्रिकोण आकाराची चीट चलावणेक घाली जाल्यारी थोड्याच तेंपान ताचो आकार ताणी तबदील केलो. उप्रांत त्याच गांवान स कोनशे आसची चीट १८६९ इस्वेंत चलावणेक घाल्ताना, तांच्यावर्नी फुडें १८६६ इस्वेंत रशियान 'ओवल स्त्यांप' म्हण चवका भितर व्रत्ताकाराची चीट न्हयंच छापली बगार १८६९ इस्वेंत परत ताणी 'डैमंड' (वज्राआकाराची) चीट भायर काडली. १८४४ इस्वेंत ब्रेझिलान लांबायेन वज्रा आकार आसून ताचे भितर विमानाचें पिंतुर आसची चीट चलावणेक घाल्ताना, 'कोस्टोरिका' गांवान चचौकाकाराची पुण कोनशे मात्र मात्से कातर्लेल्या

परीं नव्या आकाराची चीट भायर काडली. आनी ही चीट विसाव्या शतमाना पर्यांत चलावणेंत आसल्ली म्हण चरित्रा सांग्ता.

ह्या चरित्रेंत उस्तोन आमी मुकार वेताना चिटींच्या लांबाये आनी रुंदाये विषांत सवाल येंवचें वाजबी जावन आसा. संसारार येदोळ पर्यांत छापल्ल्या चिटीं पयकी १८६३ इस्वेंत कोलंबिया सर्कारान काडलेली चीट जाची लांबाय ५/१६" आनी रुंदाय ३/८" जावन अती ल्हान आस्तां १९१३ इस्वेंत चीनान ९-३/४" लांबाय आसून २-३/४" रुंदायेची चीट चलावणेर घालून, अती व्हड चीट छाप्णार म्हळ्ळें नांव वेलें.

हाच्या उपरांत्लो चिषय जावन आसा चिटींचो रंग. चिटी संग्रहांत प्रवीण जाल्ल्यांनी सांगच्या प्रकार तांब्ड्या रंगाच्यो पुण रंगांत थोडें फरक आसच्यो १०० थरांचो चिटी छापल्यो तर निळश्या रंगांत ४० नमून्यांच्यो केल्यात, उर्लेल्या जायत्या रंगांच्यो छापल्या म्हण ते आमकां सांग्तात. आनी हें आमी आतां पळेवन जाणां जाल्यांव म्हळ्ळ्याक कांयच दुबाव ना.

चिटींच्या मोलां विषांत हांगासर हांवें आरायिल्ली थोडी माहेत दितां. फ्रान्सान १९१९ इस्वेंत अर्धें संटाय्म (१/४ नवो पैसो) अती उणया मोलाच्यो चिटी भायर घाल्ताना, तेदोळ पर्यांत अती मोलाच्यो जावन आसात ह्यो तीनः १९२३ इस्वेंत जर्मनीन छापल्ली ५००,००० मार्क्स (आतां उपेग केल्ल्या ह्या चिटीचें मॉल ३ पेन्नी). १९४६ इसवेंत हंगेरिन छापल्ली ५,००० मिलिया पेनगोसाची; आनी ब्रिटिषांनी छापल्ल्या चिटीं पयकी चड मोलाची जावन आस्लेली १९२५ इस्वेंत चलावणेक घाल्ली १०० पौंडांची हाका 'केन्या तांब्डी आनी निळशी' म्हण नांव पडलें. तर ह्या टप्पाल चिटीनी थोड्याच वर्सां भितर कितें सर्व नवाल केलें?

थोड्या धाकटुल्या प्रांतांनी सोभित चिटी छापतात. उदाहरण जावन, 'लीचेनस्टेन' आनी 'मोनाको.' पुण हाणी छापच्यो चिटी उण्यो जाल्यान संसारार चलावणेर आसच्यो उण्यो आनी पळेंवक मेळच्यो भारिच्च अप्रूब. जाल्यारी असल्या चिटींक थोड्या वर्सां उप्रांत विशेश मॉल येत म्हळ्यार कोण पातियेत? त्याच पर्माणे संयुक्त राश्ट्रांच्यो (UNO) आनी 'दि सुयेज केनाल कंपेनि'च्यो चिटी प्रत्येक आसात जाल्ले निम्तीं, १९५६ इस्वेंत इंग्लेंडाचो प्रधानी जावन आसल्ल्या Sir Antony Eden हाचें रुपणें आसल्ली चीटयी चलावणेंत आयिल्ली. तेचपरी विमानार वरच्या टप्पालाक एका विंगड नमून्याची चीट लायताना विमानाचेर वेचें टप्पाल म्हण कामेल्यांक कळटा.

असली, विविध चिटी लांवची पद्दत १९१७ इस्वेंत इटेली थावन त्यूरिनाक पयलें विमान उबल्ल्या संदर्भार चालू केल्ली. उप्रांत ती सग्ळ्यांनी चाल्तेर आयली. त्या भायर इटेलींत धरणी पंदल्या सुरंगांतल्यान एका जाग्यार थावन दुसऱ्या सुवातेक वर्च्या टप्पालाक आनी 'सब–मेरिन पॉस्ट' हाका वापर्ताना असल्योच्च मेलान, रॅम, नॅपल्स, टूरिन, जेनिवा आनी स्पॅयनांतयी ही पद्दत रूडींत आसा.

संसारांतलो हरएक मनीस चूक आदार्ता. तसेंच टप्पाल चिटी छाप्तानांयी चुकी जाल्यात आनी असल्या चिटींक संग्रहकां मदें मोल चड. चुकींक वळग जाल्ल्यो टप्पाल चिटी, चूक गमनाक आयिल्ल्या तक्षण चलावेणेंतल्यो काडटात आनी उप्रांत मेळानांत. अशें जाल्यान तांचें मॉल विप्रीत आस्ता. देकीक १८५६ इस्वेंत छापल्ली एका सेंटसाची चीट आज सगळ्या संसारार एकच्च उर्ल्या म्हणताना असल्या चिटींचें मोलाधीक प्रमुकता कित्ली म्हळ्ळो अंदाज कर्येत. ही चीट एका विद्यार्थी लागीं आसल्ली, ६ शिल्लिंगाक ताणे घेतल्ली १९२२ इस्वेंत ७३४३ पौडांक विकून गेली!. आतां ताचें मौल्य १८ हज़ार पौंडांक पावलां खंय. ही चीट आतां ऑसट्रेलियांतल्या एका संग्रहकालागीं आसा म्हणतात. पुण येदोळ पर्यांत संसारांत अधिक मोलान विकून गेल्ली चीट स्विजर्लेंड गांवची जी १८५५ इस्वेंत पाचव्या रंगान छापच्या बदलाक चुकीन हळ्दुव्या रंगान छापल्ली आनी हाका १२,७२० पौंड मॉल आय्लां.

येदोळ परयांत जायती माहेत आमी जोडली ह्या चिटीं विषांत. आतां आदीं थावन ह्यो चिटी जमो कर्च्या कामांत कोणे म्हिनत घेतल्या ती. संसारार ह्या कामांत नांव वेल्लो दादलो जावन आसा इंग्लेंडांतलो तोमास के. टेपलिंग (एम.पी). हाणें जमो केल्ल्यो हजारांच्यो हजार चिटी १८९१ इस्वेंत तो अंतरताना ब्रिटिष म्युजियमाक दान दीवन गेलो. स्त्रीयां पयकी, अप्रूब मेळच्यो तसल्यो बारा गांवच्यो चिटी आसून नांव वेल्ली जावन आसा, फ्रान्सांतल्या एका बंदुको व्यापरिस्ताची पतीण मदाम बोर्चार्ड. इंग्लेडांचो राय जॉर्ज पांचवो, हफत्यांतलो एक दीस ह्या हव्यासाक खर्चिताना अमेरिकाचो पिर्जेंत रूजवेल्ट ह्या हव्यासा पाटल्यान पिसोच्च जाल्लो.

१९४१ इस्वेंत दुसऱ्या म्हा झुजा वेळार दसेंब्रांतल्या एका आयतारा पर्ल हार्बराचेर बोम घालून जपानान अमेरिकाक सल्वय्ताना रूजवेल्ट आपल्या चिटीं संग्रहालागीं खेळ्तालो शिवाय ताका झुजा विशांत कसलेंच पडोन

वचूंक नातल्लें म्हण ताचीच पतीण सांग्ता. तर हें कसलें पिशें कोणाक आनी खंचा वेळार?

क्रिस्तांव अतमीक व्हडिलां पयकी अमेरिकाचो कार्डिनल स्पेलमेन हाका outstanding champion of modern stamp collectors म्हण अमेरिकान पाचार्ला. पुण, येदोळ ह्या संग्रहाच्या वाव्रांत प्यारिसांतलो 'फिलिप्पा ला रेनेतोझ्रे फोन फेरारी' जाणे धा वर्सांचे प्रायेर हें काम सुरु केल्लें आनी १९१७ इस्वेंत तो अंतरताना ताच्या संग्रहाक ४०२,९६५ पौंडांचें मोल आयिल्लें. टप्पाल चिटींचो संग्रह या philately निजायकी एक फायद्या भरीत हव्यास.

आतां थोड्या भोंव अप्रूब चिटीं विशांत आमी जाणां जांवयां:

| इस्वी | देशाचें नांव | चिटी वयलें चित्र आनी विवर |
|---|---|---|
| १८४० | पोर्तुगल | सर रॉलेंड हिल्ल |
| १८४० | इंग्लेंड | विक्टॉरिया महाराणी |
| १८४४ | ब्रेझिल | बोक्डेचो दोळो |
| १८५६ | ब्रिटिष गियाना | पिंतुर कळाना. चुकीन छापून १७ हजार पौंडांक विकून गेल्ली |
| १८६६ | केनडा | वीणें |
| १८६९ | रशिया | गांवाचो घुर्त |
| १८६९ | कोलंबिया | पिंतुर नास्तां फकत बरप आसल्ली (त्रीकोन आकाराची) |
| १८९८ | टर्की | आट कोन्शे आसून ग्रीस आनी टर्की मधें जाल्ल्या ऑप्पंदाच्या उडासाची |
| १९०४ | सेरबीया | दोन तकल्यांचें पिंतुर आसून वोम्तें-उदारें धल्र्यार फाशियेचो खांबो दिस्ता. |
| १९१४ | जर्मनी | लुडविग राय तिस्रो, ह्यो चिटी पयल्या म्हाझुजा वेळार ब्रिटिषांनी फोर्जरी केल्ल्यो. |

| | | |
|---|---|---|
| १९१८ | अमेरिका | विमान – जाच्या चित्रांत चूक जाल्ली |
| १९२२ | आयरल्यांड | इंग्लेंडाचो राय–पुण दोदोन पावटीं छापल्ली. |
| १९४५ | स्लोवाकिया | फा। जोसफ टिटो–जाका कम्युनिस्तांनी जिवेशीं मारल्लो. |

त्या भायर ह्यो कातोलिक समडितक लग्ती जाल्ल्योः पोर्चुगीसान छापल्ली सां\फ्रान्सिस सावेर; स्पेय्नः मरि माग्देलिन; अंगोलाः सोमियाचें भागेवंत रुपणें; चिलीः सोमियाचें रुपणे; त्या शिवाय स्विजर्लेंडाची जाचेर रय्न शराची नक्षा, बेल्जियमाची आस्ट्रीड राणियेचा मानाच्या उडासाची; मोनाको प्रिन्सेस ग्रेस आनी राय रायनर हांच्या लग्नाच्या उडासाक काडलेली; रुमेनिया गांवचीः अंत्रळ तार्वार गेल्लें पय्लें सुणें 'लैका' हाचें पिंतुर आसल्ली; रशियाचो प्रथम कृतक बाळ चंद्र उबयिल्ल्या उडासाक काडल्ली; लेनिन आनी स्त्यालिन हांच्या शिरस्सांची सांगाता पिंतुर आस्ची; निमाणे, जुदेवांचें नेकेत्र हाचें चित्र आस्ची इस्रायेलाची चीट चड नांवाडिदक जाल्यात.

पुण येदोळ सर्वां प्रास नांवाडिदक आनी चड पाव्टीं रुप्णें छापलां एकल्याचें मात्र – क्रिस्तोफर कोलंबस्स.

खंडित, टप्पाल चिटींच्या संग्रहाचो हव्यास जाण्वाय चडंवचो, तसोच फायध्याभरित!

*********

# देवाधीन प्रोफेसर आल्बन कास्तेलिनोक शृद्दांजली
## (१९२४ – २०१४)



१९८६ थावन १९९४ पर्यांत 'अमर कोंकणी' शणमासिकाचो संपादक जावन आसून, त्या उप्रांत आपल्या मरणा पर्यांत संपादकीय आनी सलहा मंडळेचो सक्रीय सांदो जावन आसल्लो प्रोफेसर आल्बन कास्तेलिनो ह्या २०१४ जनेर ६ तारिकेर देवाधीन जालो.

ताणे कोंकणी भाषेक, संगीताक आनी जानपदाक दिल्ली दॆणगी अपार.

भौतिकशास्त्रांत उत्तम श्रेणिची पद्युत्तर पदवीका आपणायिल्लो तो सां. लुवीस कोलेजिंत सबार वर्सां प्रोफेसर जावन वावुर्ला.

तो एक प्रामाणिक, शिक्पी आनी मानविका मुळांक मान दिंवचो तालेंतवंत मनीस. एक उत्तीम संगीतकार, कोयरिस्त, नाटकिस्त आनी नाटक निर्देशक.

सां.लुवीस कोंकणी संसथ्यान ताणे संपादन केल्ली 'वोवियो आनी वॆर्स' म्हळ्ळी कडितल चार आवृतयांनी प्रगट केल्या.

वेवेगळ्या संस्थ्यांनी ताका मान–सनमान आनी प्रशसत्यो प्रदान केल्यात.

सां. लुवीस कोंकणी संस्थो आनी 'अमर कोंकणी' संपादकीय मंडळी, प्रोफेसर आल्बन कास्तेलिनोक मोगाची शृद्दांजली भेटय्ता आनी ताच्या कुटमाच्या दुखांत वांटेली जाता.

––संपादक

Statement of ownership and other particulars about the journal

**"AMAR KONKANI"**

**FORM IV (Rule 8)**

| | | |
|---|---|---|
| 1. Place of Publication | ... ... | Mangalore |
| 2. Periodicity of its Publication | ... ... | Half Yearly |
| 3. Printer's name | ... ... | Rev. Fr.Peter Cyprian D'Souza |
| Nationality | ... ... | Indian |
| Address | ... ... | Assisi Press<br>Mangalore-575003 |
| 4. Publisher's Name | ... ... | Rev.Fr.Swebert D'Silva, S.J |
| Nationality | ... ... | Indian |
| Address | ... ... | St.Aloysius College<br>Mangalore-575003 |
| 5. Editor's Name | ... ... | Sri Edwin J.F.DSouza |
| Nationality | ... ... | Indian |
| Addresss | ... ... | "FOUNTAINHEAD"<br>Highlands, Mangalore-575002 |
| 6. Name and Address of Individuals who own the journal and partners or shareholdetrs holding more than one percent of the total capital | ... ... | Rev.Fr.Swebert D'Silva,S.J<br>St.Aloysius College<br>Mangalore-575003 |

I, Rev.Fr.Swebert D'Silva, S.J., hereby declare that the particulars given above are true to the best of my knowledge and belief.

Mangalore
30-June-2014

Sd/-Rev.Fr.Swebert D'silva, S.J